तितल भीतर एंडी ..कुक्कर पांच वीसील जाले सतां बंद कर म्हणू सांगून ती सीदा न्हावचाक घेली.. माका कसले करचे कळूंक ना रिमोट आशिले, टिवी घाले.. फ्याषन चानेला दाकून न्यूस चानेल घाले ..' टिवी १८तू हनीटऱ्याप जावनू पन्नास लाख घेले, आनी तो आता पिसो जाला असले न्यूस..' दरिद्र ह्या न्यूस नाका पळोवचे म्हणू आफ केले..मुखार आसचे शोकेसालागी गेलो.. सक्कड जेन आसटनाले रोम्यांटीक इंगलीष कादंबरी मात्र.. जाल्यार आता वाचून बसचे थियरी ना ..प्राकटिकल मात्र आसो म्हण परत सोफार येवनू बसलो मात्र, कुक्कराचे कितले विसील म्हळेल कळेल ना..दोळ्या मुखार स्वीट १८ म्हणून पिंक टर्की टवेल घालून..ही मिगेल मुखार येवनू राबली.. आंगार उदका थेंब तशे आशिले.. मैसूर स्यांडलाचे घमघमा सांगात…

वेरी वेरी सारी ..लेट जाले.. पूरो जावनू आशिले त्या दाकून मात्तेर नाल्ली.. बैदवे रसिका.. कुक्कर विसील लेक आसकी जवो टिवीर येवचे ब्यूटिंक पळोवनू विसरला..सेक्सी जावनू सांगून सीदा वासरी कुडाक घेली. तिका तशे पळोवनू हांव पिश्यावरी जालो.. तसले तरने तरने आंग आजून तितले लागशिल्यान पळोंवका ना हांव.. बायल मनीश न्हांवनू भायर येतना, कोण दारलो मुखार आसतकी तागेल वयरी तीका मोग येता म्हळेल उतर उडगास येवनू जीवांतुले घोडो धांवता आसतना..पातळ प्रिंटेड किरगी नेसून..स्लीव लेस चोळी ..आनी हांव हाडलेल मोगारे माळून आनी स्वल्प देवाले फोटोक घालून.. सीदा अप्सरा मिगेल लागी येवनू बसली.. हा सांग महादेव आतां.. कशे आसा जीवन.. अल ह्यापी बै द वे.. म्हणू..

बादा कांय ना..चलता आसा..माका प्रैवेट काम.. सांबोळ उणे..मिगेल पूतू सेकेंड पियू शिकता आसा.. आता चेर्डुवांक पळोवचे भारी कषट .. लव गीव म्हणू सांगून कसले कोरनू घेता म्हणू कळना..सोसैटी पाड जाला.. आमगेल काळांतू ह्या सक्कड नात्तिले. आज चाळीस जाल्यारीय लव करचाक भंय जाता.. ' ते सक्कड सोड..ते सक्कड आता मामूल.. आमी कांय करूंक जाय ना..सक्कडाक रेडी आसूका.. ते सोड तुगेल बायल कशे मिगेल पशी शोभीत की पळोवचाक म्हणाली,?

तुगेल लैफ कशो..तुका जरलो पळयल्यार भंय आसकी.. अशे उलयता वेळ घेलेल कळेल ना..हातांतू हात धरून.. बारा एक जातना…! कुकारांतू व्हारे सक्कड वचून..टूस टूस म्हणचे आवाज… मागीर भर भर आवाज जावनू फेंड

भायर आयले!..

**

सकाळिचे इडलिवरी..दोनपाराचे मटन बिरियानी सूपर.. मटन पीस हलवा वरी आशिले. डैनिंग टेबलांतू दोगाय फेस टू फेस बयसून.. हांव तीका आनी तीणे माका रायता घालनू खालेलेची खालेल.. आखेरीक गुलाब जामून खावनू आट्रा किलो चडले वरी जावनू पोट चड जावनू मुखार वचाक कषट जाले, ..हळू सोफार येवनू बसता म्हणतना.. सुमार पंद्र वरसाची..चेली आयली.. जीन्स प्यांट आनी टी शर्ट..'हाय माम..' म्हणू..माका आता आनीकय गोंदोळ चडले मनांतू.

'हाय शेरली..आज कशे वेगी आयली.. सांजवेळ येता म्हळेल तुवे ... जेवण जालावे तुगेल.. बैद वे दीस ईस मै क्लास मेट..महादेव… महादेव दीस ईस मै लवली ओनली डाटर..श्यामिली..हांव मोगान शेरली म्हण आपोवचे ..म्हणाली शुभलक्ष्मी.. माका पळोवनू 'हाय अंकल'.. म्हण सांगून मिगेल जेवण जाला अम्मा ..हांव मेकडनालडांतू खाला..म्हण सीदा भितर गेली.

आनी थंय राबून कांय जावचे ना म्हणू चिंतून…. हांव येता शुभा…तू माका धूव आसा म्हण सांगिले ना.. तुका इतली वड धूव आसा… नेक्सट टैम मेळया.. थ्यांक्यू फार दी ट्रीट.. म्हणू..सांगले.. इतले वेगी वचूनाका एंडी.. स्पल्प रेसट घे.. सांजवेळ टी पीवून वच..समोस कोरन दिता..सारी शेरली इतले वेगी येता म्हणू कळीत नाशिले.. ट्यूशन जावनू सांजवेळ येता म्हण सांगिले तीणे..सारी एगैन.. बेड सक्कड सेट केला मात्र ,बेरे रूं फ्रेशनर स्परे केला ..म्हणू सांगता आसातना..आतां केलेल पुरो म्हणू..बागिला लागी आयलो..स्सारी एंडी.. नेक्सट टैम वी वील ह्याव मोर आंड परफेकट फन ..तिवय आयली बागला-लागी हात धरून..

आनी लागी घराच्यान पळोवचे नाका म्हणू गडबिडिंतू सीदा येवनू कार की घालता म्हणतना.. वाचम्यान धांवनू आयलो.. हाका धा वीस रूपय दीवका म्हणतना..'' साब..तुमी बरयलेले फोन नंबर फट म्हणू कळीत आशिले माका.. जाल्यार तुमगेल कामाक बादा जावचे नाका म्हणू..११८क येंवक ना..हांव ..म्हणू सांगोन सल्यूट मारलो.. 'जालेल कांय ना म्हणू मनांतू चिंतून'..आनी हागेलागी उलोवचे कोण म्हणू चिंतून, पर्सा दाकून नोट भायर काडले..धा वीसा

बदल ..पांयशे रुपयी नोट भायर आयले सीदा ..मिगेल कर्माक.. "शुक्रिया साब.. शुक्रिया.. म्हणू सांगता आशिलो..हांव रोडाक पावलो.

**

ह्या सक्कड जालेल दोन तीन दिवस ..आट्राचिले फोन खबर नातिले..आनी माकाय नाका म्हण हांवय बसलो.. बरे लेडी वेयिटर्स आसचे होटेलाक वचून जेवल्यार जाले.. कोण कसले फ्लान घालाकी.. मिगेल आफिसांतू.. वेंकट्रामय्याक माका पळयलार जायना..आनी आफिसांतू काम मसत आशिले.. दीपावळी बोनसाचे वेळ..कंपलेंट येनाशी पळोवनू घेवका..सुरवेकची ह्या मांतारेक मिगेल वयरी दोळो आसा.. पूतू माका आकटिवा जावका म्हण हठांतू बसला.. अशे चिंतून बयसून आसतना चारी दीस.. सकाळी धा गंटेक आट्राचीली फोन.. राग आयलाकी मिगेलवयरी म्हणू मोगान निमगिली.. सांज वेळ येता म्हळेल धूव दोनपार आयली..ब्याड लक सक्कड प्लान पाड वेसट जाले..नेक्सट हांवची तुगेल घरा येता म्हणू सांगताना... नाका माका तुगेल सहावासू नाका म्हणया मन जाल्यारीय... हा जायत जायत म्हळे.. क्रिस्मस रजा वेळेर बायल गांवाक वेता,.. तेदना यो म्हण सांगून बै बै म्हणू सांगून सिसी क्यामरा दिकान पळयले.

**

दीपावळी बोनसांतू पुताक आकटिवा आनी बायलेक आट्रा हजाराचे कांजीवरं काप्पड घेवनू दिले. ' ह्या कसले आश्चर्य..' म्हणू बायलेन नेसून दिपावळीक पटाकी मारनू संभ्रम केले. आट्राचीक घरकडे आपोवनू बायलेल व्हळक कोरनू दिवया म्हण चिंतले, जाल्यारीय बायलेल भंय .. नाका म्हण जाले. लायक शींयाचे वेळ..नवेंबर शुरू जाला मात्र.. सकाळी तेला नाण जावनू..सांजवेळ मामुली जागाक वचून..वरलेले दुडवांतू एयटीन इयर्स ओलड स्काच..ब्याल टैन्स आर्डर केले. ..मनांतू आट्राचिले उडगासू..आनी बारांतू किशोर कुमाराले पद..उज्याक तूप घाल्यावरी..आनी सिगरेट लासता घेले.

आचानक दोन पंता मार्केटांतू मेळी.. हात हात धरून 'स्टार बक्सा'क वचून काफी पिलेल आसा, आनी जगतांतू तुगेल हाताची काफी तितले कंचय बरे ना म्हणू सांगतना .. एं.डी.. थ्यांक्यू..तू एकलो मात्र मिगेल वेल विशर ..लव यू म्हण सांगतशिली.

अशे दीस वचून डिसेंबर आयले..हांव क्रिस्मस रजाक राकून बशिलो.. आट्रा_
चीक घराक आपोवका आनी बरे सत्कार करका म्हळेल आशेन!.. त्या दिवस
आयतार..सकाळी णव गंटेक काफी जावनू पेपर वाचून बशिलो हांव ईसीचेरां_
तू.. संडे म्यागजिनांतू आट्रा.. मळेल रोम्यांटीक काणी आशिले.. भितर दाकून
बायल ..पळया मन्वीत कालेजांतू एक चिलिले माकशी पडला, लव म्हणू
..तिगेल बापूस अमेरिकांतू आसचे ..काल तागेल क्लास टीचर मेनका मेडं न
माका पर्सनल फोन करून सांगले..तुमी एक पंता सम जोर कोरनू निमगियां_
ची...ट्र्यूषना दाकून येत्तरी म्हणू बोब घालता आसतना... काळे रंगाचे आडी
कार घरा मुखार येवनू राबले.

आमगेले घराक हांतू कोण आसचाक पुरो..ओहो आता वारडीकेचे सीसन
तशे इन्विटेशन दिवचाक आयलांची म्हण पळयतना.. एकलो दारलो कारा
दाकून धेंवलो.. आनी तागेल लागी.. शू..शुभलक्ष्मी..मिगेल आट्राची..! आनी
तांगेल धूव..! हातांतू एक पळेरू.. तांतू फूल फलवसतू..हळद आनी कुंकूम'..
हाय! महादेव.. म्हणू सक्कड सीदा भीरत आयले.. 'बै द वे.. दीस ईस मै
हसबेंड..आदित्यनाथ... आधित्यनाथ नंबूदिरी.. केरळियन.. कोंकणी कळना
ताका.. त्या दीस पोटो पळयलेल तुवे.. काल यू एस दाकून आयला मात्र..
आदी, सांगता आशील नवे.. दिसीस मै क्लासमेट..मिसटर.. महादेव..महादेव
कामत.. वेरी गूड पर्सन.. हांगा बेंगळूरांतू सेटल जालांची.. पयर घरा येवनू मटन
बिरियानी खावनू एंजाय केला..म्हणू सांगतची सोफार बसले.

तितले भितर मिगेल बायल..कोण ते आयतार सकाळी आयलांची,.. सगळे
घराचे क्लिनिंग काम आसा.. उलोवनू पेटया..मळेल बोब.. आनी.. हाय
रुक्मिणी..हलो शूभ..रुक्कू..सर प्रैस.' म्हणू दोगाय उलोवचाक शुरू.. आनी
भितर गेले.. माका कसले जाता आसा..कळिताक येंवक ना.. सोफार बयसून
आशिले ताका..तुमी अमेरिकांतू कंय आसचे? कसले करनू आसचे म्हणू
अर्धंबर्द इंगलीषांतू उलयलो.

आमी उलयता आसतना.. रुक्मिणी काफी ट्रे घेवून आयली.. 'माका हांगेल
वळक बरे आसा..आमगेल मन्विताले अडमिषन वेळार मेळा माका.. आनी
मार्केटांतूय मेळता.. भारी चांग बायल मनीश.. सोशियल.. माका आनीकय
गोंदोळ..सोफार बसले. काफी पीवनू उलयिता आसतना माका भीतर दाकून
एक नमून लागले, ही आट्राचिली कसले काणी म्हणू..

तितले भीतर ट्यूषनाक गेललो मिगेल पूतू..नवे वेहिकल पार्क कोरनू घरा भितर आयलो..ओह मै गाड.. 'हाय शेरली बेबी.. मै लव..यू आर ईन मै हौस..बीग सपरैस..' म्हणतान हांव कंपलीट अप सेट जावनू आतां कसले करचे म्हणू पळयता आसतना..

'पळे महादेव.. अशे सांगता म्हण बेजार कोरनाका.. माका पयरी प्रिन्सिपालान आपयिले, तुमगेल पूतू आनी आमगेल धूव लव करता आसंची, ..आता काळांतू ह्या सक्कड आसचेच..तुका कळिताक आसा. आमी कालेजांतू आसतना..लव सोड..चेलो आनी चेलियानी उलोवचेच एक होड विशयू.. ते सक्कड आताचांक सांगलेर आश्चर्य जातले..आनी तांका ते अर्थू जायना.. हा आनी मिगेल आनी आदित्याले लव म्यारेज..इंटरकासट..सो.. आता आमी आमगेल चेर्डुंवाले वारडीक करका.."

शुभलक्ष्मीले उत्रां राजधानी एक्सपरेसशे वता आसतना.. 'कम शेरली..कम ईन. म्हणू मिगेल आनी जावचे सूनेक तागेल कूडाक वेले..आनिकय मीश येनातिले मिगेल पुत्तान..

"नो..नो.. तांका आनिकय आट्रा वरस जायनी म्हणका म्हणतना".. मिगेल मोगाची आट्राची.. ना ना..शूभ...लक्ष्मी.. ..क्याटस ऐ..बायल मनीश.. मलेनाडाची. छे आलियास.. श्रीमती शुभलक्ष्मी आदित्यनाथ नंबूदिरी.. रुक्मिणीक दिसनाशी, ओंट चाबून माका पळयता आशिली.. दोळो होड करून.. एंडी कशे आसा मिगेल गेम म्हणचे वरी माका पळयता आशिली.. आनी माका हालवावरी खालेल मटन पीस सक्कड तोंडाक आयले !!.

□□□□□

# » ಎಕ ಸೆಲ್ಫಿಚೆ ಕಾಣಿ

ಸಕಾಳಿ ಉಟೋವನು ದೊಳೆ ಘಶಟೂನ ದೇವಾಕ ಪಾಂಯಪಡತಾಚೀ ಆಲೋಚನ ಕೆಲೆ, ಆಜಿ ಕೊಣಾಕ ತರಿ 'ಎಪ್ರಿಲ್ ಫೂಲ್' ಕರಕಾ ಮ್ಹಣು. ಘರಾ ದಾಕೂನ ಭಾಯರ ಸರತನಾ ಕೊಣಾಕ ಕಶೆ ಫೂಲ್ ಕರಚೆ ಅಶೆ ಚಿಂತೂನ ಟಿಪ್ ಟಾಪ್ ಜಾವನು ಕಾಮಾಕ ವಚಾಕ ಕಾರ್ ಸ್ಟಾರ್ಟ ಕೆಲೆ, ಆಯಚೆ ವೇಳಾಂತು ಕೊಣಾಕಯ ಮಾಜ್ಜರ ಆಯಲೆ ದಿವ್ಹೋಡ ಪಳೆ ಮ್ಹಣು ಫೂಲ್ ಕರಚೆ ಸಾಧ್ಯ ನಾ ತ್ಯಾ ದಾಕೂನ ಕಿತೆಂ ತರೀ ಕರಕಾ ಮ್ಹಣು ಚಿಂತೂಕ ಲಾಗಲೊ. ನಿತ್ಯಾವರಿ ಟ್ರಾಫಿಕ್ ಜಾಮ ಜಾವ್ನೂನ ಕಾಮಾಕ ಪಾವತನಾ ಧಾ ನಿಮಿಷ ವೇಳ ಜಾಲೆ, ಆಫೀಸಾಂತು ಟೆಬಲಾವಯರಿ ಎಕ ರಾಶಿ ಫೈಲಾ ಆಶಿಲೆ, ಸುರವೇಕ ಹ್ಯಾ ಫೈಲ ಸಕ್ಕಡ ಕ್ಲಿಯರ ಕರಯಾ ಮ್ಹಣು ತ್ಯಾ ದಿಕಾನ ಮನ ಕೆಲೆ... ತಿಟಲೆ ಭಿತರ ಸುಮಾಲೆ ಪೋನ್ ಆಯಲೆ.

ರಿಸೀವ್ ಕರೂನ 'ಹಾಯ್ ಹಲೋ ಕಶೆ ಆಸಾ ತೂ, ತುಗೆಲೆ ಖಬರಚೀ ನಾ, ಸಕಾಳಿ ಪೋನ್ ರಿಸೀವ್ ಕರನಿ ಕಸಲ್ಯಾಕ? ಕಾಲ ಸಾಂಜವೇಳ ಯೆಂವಕನಾ ಮ್ಹಣು ರಾಗ ಆಯಲಾಗೀ? ಅಶೆ ಮ್ಹಣು ಶುರು ಕೆಲೆ, ಆನಿ ಹ.. ಸುಮಾ ತುವೆ ಆತಾ ಕಾಲ್ ಕೆಲೆಲ ಬರೆ ಜಾಲೆ , ಎಕ ಇಂಪಾರ್ಟೆಂಟ ವಿಶಯು ತುಗೆಲಾಗಿ ಸಾಂಗಚಾಕ ಆಶಿಲೆ.. ಆತಾ ಹಾಂವ ಪೋನಾರ ಸಾಂಗತಾ ಮ್ಹಣು ಬೇಜಾರ ಕರೂನ ಘೆವನಾಕ, ಹಾಂವ ಹೆಲ್ಪಲೆಸ್ ಜಾಲಾ.. ಆಮಗೆಲೆ ವಾರಡೀಕ ಜಾವಚೆ ಡೌಟ್ ದಿಸತಾ ಆಸಾ. ಮಿಗೇಲ ಅಮ್ಮಾ ದುಸರೆ ಚೆಲ್ಲಿ ಪಳೊವಯಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗಚಾಕ ಲಾಗಲಾ, ತಿಕಾ ಆಮಗೆಲೆ ಹ್ಯಾ ಕಾಸ್ಟ್ ಪ್ರಾಬ್ಲೆಂ ದಾಕೂನ ಅಪಾರ್ಟ್ಮೆಂಟಾಂತು ಸಕ್ಕಡಾಲೆ ಮುಖಾರ ಅಳಶಿಕ ಜಾಲಾ ಕಂಯು.. ಅಶೆ ಹಾಂವ ಮ್ಹಣತಾ ಆಸತನಾ ತ್ಯಾ ದಿಕಾನ ಕಸಲೆ ಖಬರ ನಾ, ಹಳೂ ಹಳೂ ರಡಚೆ ಆಯಕೊಂಕ ಲಾಗಲೆ. ಸುಮಾ... ಸುಮಾ.. ವಾಟ್ ಹ್ಯಾಪಂಡ್.. ಸುರವೇಕ ರಡಚೆ ರಾಬಯ.. ' ಹ್ಯಾ ಚೆಲಿಯಾಂಕ ಚಿಕೆ ಪುಣಿ ಧೈರ್ಯ ಮ್ಹಳೇಲ ನಾ, ಕಸಲೆ ಸಾಂಗಲೇರ ಪುರೋ ದೊಳೆ ದಾಕೂನ

ಉದಾಕ ಸುರವೇಕ ಯೆತಾ ಮ್ಹಣು ಚಿಂತನಾಚೀ.. ತಶೆ ಜಾಲ್ಯಾರ ತಿತಲೆ ಘಡದ ಜಾವ್ನೂನ ಆಮಗೆಲೆ ಎಂಗೇಜ್ಮೆಂಟ ಕೆಲೆಲ ಕಸಲೆ ಕರ್ಮಾರ್ಕ, ಮಿಗೇಲ ಬಾಪಸೂಕ ರೀಣ ಕೊರನು ಕಿತಲೆ ಖರ್ಚ ಜಾಲಾ ತಾಜೆ ಲೇಕ ಗೊತಸವೇ ತುಕಾ..ತೆದನಾ ಆಮೀ ದುಸರೆ ಜಾತ ಮ್ಹಳೇಲ ತುಗೇಲ ಆವಸೂಕ ಕಳಿತ ನಾಶಿಲಕೀ... ಮ್ಹಣು ತಿಣೆ ಹಳೂ ಸಾಂಗಲೆ.. ಹಾಂವಯ ತೇಂಚ ಸಾಂಗಲೆ ಮಸ್ತ ಟ್ರೈ ಕೆಲೆ, ಕಸ ಕೆಲ್ಯಾರೀಯ ಆವಸು ನಾಕಾ ಮ್ಹಣುಚೀ ಬಸಲಾ.. ಅಶೆ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗತಾ ಆಸತನಾಚೀ.. ಆನೀಕಯ ಜೋರ ರಡಚಿ ಆಯಕೂಂಕ ಆಯಲೆ ಆನಿ ಸೀದಾ ಪೋನ್ ಕಟ್.. ಅಬ್ಬಾ ! ಅಂತೂ ಇಂತೂ ಚಿಂತಲೆವರೀ ಸಕ್ಸಸ್‌ಪುಲ್ ಎಪ್ರಿಲ್ ಫೂಲ್ ಕೆಲೆ ಮ್ಹಣು ಆನಿ ಕಾಮ ಕರಚೆ ಮ್ಹಣು ದವರಲೆಲೆ ಫೈಲ್ ಕಾಡಲೆ, ಸಾಂಜವೇಳ ಆಫಿಸ್ ಜಾಲೆ ಉಪರಾಂತ, ಸುಮಾಲೆ ಘರಾ ವಚೂನ ಸಕ್ಕಡ ಸಾಂಗೂನ ಸಮ ಕೊರಯಾ ಮ್ಹಣು ಲೆಕಲೆ.

***

ಮಾಕಾ ಆನೀ ಸುಮಾಕ ಎಂಗೇಜ್ಮೆಂಟ್ ಜಾವನು ಎಕ ಮ್ಹಯಿನೊ ಜಾಲೆ ಮಾತ್ರ. ಇಂಟರ್ನೆಟಾಂತು ಆಮಗೆಲೆ ವ್ಹಳಕ ಜಾವನು ಘರಾತಾನಿ ಜಾಯತ ಮ್ಹಣತರೀಚಿ ಆಮಗೆಲೆ ನಿಶ್ಚಯ ಜಾಲೆಲೆ, ಮುಖಾವಯಲೆ ಎಪ್ರಿಲ್ ಮೇಂತು ಚೆರ್ಡುವಾಂಕ ಸ್ಕೂಲಾಕ ಸಕ್ಕಡ ರಜಾ ಆಸತನಾ ಸಕ್ಕಡಾಂಕ ಯೆವಚಾಕ ಅನುಕೂಲ ಜಾತಾ ಮ್ಹಣು, ವ್ಹಾರಡಿಕೇಚೆ ಹಾಲ ಬುಕ ಕರಚ್ಯಾಕ ಘರಾಂತು ದೀಸ ಪಳಯತಾ ಆಶಿಲೀಂಚಿ. ವ್ಹಾರಡೀಕ ಮ್ಹಣು ಹಾಂವ ಪಾವಿಲೆ ಕಷ್ಟ ಸಾನಸುಮಾರಚೆ ನಾ, ಸುಮಾಲೆ ಪ್ರಪೋಸಲ್ ಫೈನಲ ಜಾವಚೆ ತಾಂಯ, ಹಾಂವ ಎಂ.ಕಾಂ ಜಾವನು ಕಾಮ ಆಸೂನ ಬತ್ತೀಸ ವರಸ ಜಾಲ್ಯಾರೀಯ ತೀನ ಚಾರ ವರಸ ದಾಕೂನ ಕಿತಲೆ ಚೆಲಿಯೊ ಶೋಧಲ್ಯಾರೀಯ ಮೆಳೇಲ ನಾ. ಎಕ ಸಮ ಆಸಾ ಮ್ಹಣತನಾ ಆನೇಕ ಸಮ ಆಸನಾ ಅಸಲೆ ಪರಿಸ್ಥಿತಿ. ಜಾತಕ ಆನಿ ಮೆಳಾಮೇಳಿ ಮ್ಹಣು ಶೋಧಚೆತ ಜಾಲೆ. ಸುಮಾ ಪಳೋಚವಾಕ ಭಾರೀ ಚಂದಿ ಮ್ಹಣು ನಾತಲ್ಯಾರೀಯ ಲಕ್ಷಣ ಆಸಾ ಚೆಲಿ. ಡಿಗ್ರಿ ಜಾಲಾ. ಸ್ವಲ್ಪ ಇಮೋಶನಲ್ ಆನಿ

ಮೂಡಿಟೈಪ್.. ಅಶೆ ಚಿಂತೂನ ಆಸತನಾ. 'ಬಾಸ್ ಆಪಯಿತಾ ಆಸಾ' ಮ್ಹಣಾಲೊ ಅಟೆಂಡರ್

ಮಾರ್ಚ ಮ್ಹಯಿನ್ಯಾಚೆ ಎಕ ರಾಶಿ ಕಾಮ ಭಾಕಿ ಆಸೂನ, ಮಿಸ್ಟರ ಮಹಾದೇವ ತುವೆ ನಿತ್ಯಯಿ ಆಫೀಸಾಕ ವೇಳ ಕೊರನು ಯೆವಚೆವೇ? ಅಶೆ ತಶೆ ಮ್ಹಣು ತಾಗೇಲ ನಿತ್ಯಾಚೆ ಸಾಂಗಚಾಕ ಲಾಗಲೊ ವೇಗಿ ವೇಗಿ ಕಾಮ ಜಾವಕಾ ನೆಕ್ಸ್ಟ ಮ್ಹಯಿನೋ ಆಡಿಟರ್ಸ ಯೆತಾಂಚಿ' ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ತಾಗೇಲ ಚೇಂಬರಾ ದಾಕೂನ ಭಾಯರ ವಚಾಕ ಸಾಂಗಲೆ. ನಿತ್ಯಾವರೀ ತಾಣೆ ಸಾಂಗಿಲೇಕ ಸಕ್ಕಡಾಕ ಓ.ಕೆ.. ಓ.ಕೆ ಮ್ಹಣಚೇಚ ಹಾಂವ , ಸೀದಾ ಬಾಯರ ಯೆವನು ಕ್ಯಾಂಟಿನಾ ವಚೂನ ಎಕ ಹಾತಾಂತು ಎಕ ಕಪ್ ಚಾ ಆನೀ ಸಿಗರೇಟ ಧರೂನ ವೊಂಟಾಕ ಲಾಯಲೆ. ಸುಮಾ ಕಸಲೆ ಕೊರನು ಆಸಚ್ಯಾಕ ಪುರೋ ಮ್ಹಣು ಚಿಂತೂನ ಚಾರ ಪಾಂಚ ಪಂತಾ ಪೋನ ಕೆಲೆ, ಖಬರ ನಾ. ಚಾಂಗ ಜಾಲೆ ಸಮಾ ಘೂಲ್ ಜಾಲಾ .. ಸಾಂಜವೇಳ ವಚೂನ ಮಸ್ಕ ಮಾರಲ್ಯಾರ ಜಾಲೆ ಮ್ಹಣು ಆಫೀಸಾಕ ಯೆವನು ಟೆಬಲಾ ವಯರೀ ಆಶಿಲೆ ಫೈಲ್ ಸಕ್ಕಡ ಕ್ಲಿಯರ ಕೆಲೆ. ದೊನಪಾರ ಜೆವಣಾವೇಳೆಂತು ಪರತ ದೋನ ಪಾವಟಿ ಘೋನ ಕೆಲೆ, ಘೋನ ಸ್ವಿಚ್ ಆಫ್ ಜಾಲಾ ಮ್ಹಣು ಆಯಲೆ. ಓಹೊಹೊಹೊ... ಮ್ಹಣು ಕಲಿಗ್ಸಾಂಕ ಸಕ್ಕಡ ಮೆಗೇಲ 'ಎಪ್ರಿಲ್ ಘೂಲಾಚೆ' ಕಾಣಿ ಸಾಂಗೂನ ಹಾಸಲೆ, ಆನಿ ಸಾಂಜವೇಳ ಜಾವಚಾಕ ರಾಕೂನ ಮುಖಾರ ಆಶಿಲೆ ಗಡಿಯಾರಾಂತು ವೇಳ ಪಳಯತಾ ಪಳಯತಾ ರಾಕತಾ ಬಸಲೊ.

***

ಸ್ಥ ಗಂಟೆ ಜಾಲೆ ಸತಾಂ ಸೀದಾ ಕಾರ್ ಸ್ಟಾರ್ಟ ಕೋರನು ಸೀದಾ ಸುಮಾಲೆ ಘರಕಡೆ ಪಾವಲೊ, ಘರಕಡೆ ಸುಮಾರ ಜನ ಭರಲೆವರೀ ಆಶಿಲೆ ಭಾಯರ ದಾಕೂನ ಪಳಯತಾ, ಕಾರ ಪಾರ್ಕ ಕೋರನು ಘರಾ ಭಿತರ ಪಾಯ ದವರತನಾ.. ಭಟಮಾಮ ಎಕಲೊ ಮಂತ್ರ ಮ್ಹಣತಚೀ ' ಗೋಧೂಳಿ ಮೂರ್ತು ಪುಲ್ಲಾ ಮಾಳಾ ಎಕಾಮೆಕ ಘಾಲಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗಲೊ..' ಹಾಂಗ ಕಸಲೆ ಜಾತಾ ಆಸಾ ಮ್ಹಣು ಕಸಲೆ

ಕಳನಾಶೀ ಪಳಯತಚೀ ಘರಾ ದಾರಲಾಗೀ ರಾಬಲೊ.. ಸುಮಾ ..ಮಿಗೇಲ ಸುಮಾ ದುಸರೋ ಬಾರೀ ಚಂದು ಎಕಲೆಲ ಗಳೇಕ ಮೈಸೂರ ಮೊಗರೆಚೆ ಮಾಳಾ ಘಾಲತಾ ಆಸಾ. ಮೆವಣಿ .. ಮ್ಹಳಾರಿ ಸುಮಾಲೆ ಭಯಣಿ ಪೂಜಾ ಯೆವನು " ಭಾವಜೀ.. ನಾ... ಅಂಕಲ್.. ಸಕಾಳಿ ತುಮೀ ತುಮಗೆಲೆ ವಾರಡೀಕ ಡೌಟ್ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗಲೆ.. ತೇ ಕಸಲಕೀ ಕಾಸ್ಟ ಪ್ರಾಬ್ಲಮ್ ಮ್ಹಳೇಲ ನವೇ.. ತ್ಯಾ ದಾಕೂನ ಅಕ್ಕಾನ.. ತಿಗೇಲ ವಾರಡೀಕ ರಾಬಲಾರೀ ಆಮಕಾ ಸಕ್ಕಡ ಮುಖಾರ ಬಾದಾ ಜಾತಲೆ ಮ್ಹಣೂನ ಹ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ ಎರೇಂಜ್ಮೆಂಟ್ ಕೆಲೆ.. ನವೋ ಭಾವಜೀ ಘಾರೀನಾಂತು ಕಾಮಾರ ಆಸಾ, ಅರ್ಜೆಂಟ... ಅರ್ಜೆಂಟ ನವೆ ತ್ಯಾ ದಾಕೂನ ದೋನ ಕುಟುಂಬೆಚೋ ಲೋಕಾನ ಮೆಳೂನ ಸಿಂಪಲ ಜಾವನು ಘರಾಂತೂಚೀ ವ್ಹಾರಡೀಕ ಕರತಾ ಆಸಂಚೀ.. ಆತಾ ಸುರವೇಕಚಿ ಕಾಳ ಸಮ ನಾ, ಕೊಣಾಕ ಪಾತೇವಚೆ ಕಳನಾ.. ಆಜ ತಿಗೇಲ ವಾರಡೀಕ ರಬಲ್ಯಾರಿ ತೇ ಆನೀ ಹೋಡ ಖಬರ ಜಾವ್ನೂನ, ಮುಖಾರಿ ಟಿ.ವಿ ಚಾನೆಲಾಂತು ಯೆವನು.. ಅಯ್ಯೋ ತಶೆ ಕಸಲೆ ಜಾಲೆಲ ನಾ ನವೇ" ಮ್ಹಣತಚೀ ಧಾವಣಿಚೆ ಮೀರಿ ಸಮ ಕರತಚೀ ಎಕ ಉಂಡೊ ಮಿಗೇಲ ಹಾತಾಂತು ದಿಲೆ!

ತಿತಲೆ ಭಿತರ.. ತೊಡೆ ಚೆರ್ಡುಂವ 'ಸಾರ್ ಸಾರ್ ತುಮಗೇಲ ಸಾಂಗಾತ ಎಕ ಸೆಲ್ಫಿ ಜಾವಕಾ ಪ್ಲೀಸ್..' ಮಹಾಮೂರ್ಖಿಲೆ ಸಾಂಗಾತ ಸೆಲ್ಫಿ ಮ್ಹಳೇಲ ಎಕ ಕಂಟೆಸ್ಟ ಆಸಾ... ಮ್ಹಣತನಾಚೀ.. ಮಿಗೇಲ ಬಾಪಸೂಲೆ ಫೋನ ಆಯಲೆ.. ಮೇ 31ಕ ಹಾಲ್ ಖಾಲಿ ಆಸಾ, ..ಬುಕ್ ಕರಚೆ ಕೀ.! ಮುಖಾರ ಸುಮಾ.. ಮಾಕಾ ಪಳಯತಚೀ ತಿಗೇಲ ಬಾಮಣಾಲಾಗಿ ಕಿತೆಂಗಿ ಪಿಸು ಪಿಸು ಉಲಯಿತಾ ಆಶಿಲಿ. ಆನೀ ಥಂಯ ರಾಬಚೆ ಸಮ ನ್ಹಂ- ಋ ಮ್ಹಣ ಸೀದಾ ಭಾಯರ ಆಯಲೊ.. ತೆದನಾಚಿ ಆಚಾನಕ ತಿಜಟಭಿಠಟಜ ಛಚಿಭಿಞ ಣಠ ಣುಜ ತಿಂಡಿಟಜ' ಛುಂಠಭಿಣ ಜಿಂಠಟ ಣಠ ಟಥಿ ಟುಜಿಜ ಚಿಠಚುಟಿ..ಕಶೇ ಜಾಲೆ ಹಾಂವ ಕೆಲೆಲ ಂಠಿಡಿುಟ ಈಠಠಟ.. ಡ್ರಾಮಾ, ಸುಮಾಲೆ ವಾಟ್ಸಆಪ್ ಮೆಸೇಜ ಆಯಲೆ ಮಿಗೆಲ ಫೋನಾಕ!!.

□□□□□□

# » एक सेलफिचे काणी

सकाळी उटोवनू दोळे घशटून देवाक पांयपडताची आलोचन केले, आजी कोणाक तरी 'एपरील फूल' करका म्हणू. घरा दाकून भायर सरतना कोणाक कशे फूल करचे अशे चिंतून टीप टाप जावनू कामाक वचाक कार स्टार्ट केले, आयचे वेळांतू कोणाकय माज्जर आयले दिवोड पळे म्हणू फूल करचे साध्य ना त्या दाकून किर्ते तरी करका म्हणू चिंतूक लागलो. नित्यावरी ट्राफीक जाम जावून कामाक पावतना धा निमीष वेळ जाले, आफीसांतू टेबलावयरी एक राशी फैला आशिले, सुरवेक ह्या फैल सक्कड क्लियर करया म्हणू त्या दिकान मन केले... तिटले भितर सुमाले पोन आयले.

रिसीव करून 'हाय हलो कशे आसा तू, तुगेले खबरची ना, सकाळी पोन रिसीव करनी कसल्याक? काल सांजवेळ येंवकना म्हणू राग आयलागी? अशे म्हणू शुरू केले, आनी ह.. सुमा तुवे आता काल केलेल बरे जाले , एक इंपोर्टेंट विशयू तुगेलागी सांगचाक आशिले.. आता हांव पोनार सांगता म्हणू बेजार करून घेवनाक, हांव हेल्पलेस जाला.. आमगेले वारडीक जावचे डौट दिसता आसा. मिगेल अम्मा दुसरे चेल्ली पळोवया म्हणू सांगचाक लागला, तिका आमगेले ह्या कासट प्राबलें दाकून अपाट्रमेंटांतू सक्कडाले मुखार अळशीक जाला कंय.. अशे हांव म्हणता आसतना त्या दिकान कसले खबर ना, हळू हळू रडचे आयकोंक लागले. सुमा... सुमा.. वाट ह्यापंड.. सुरवेक रडचे राबय.. ' ह्या चेलियांक चिके पुणी धैन्य म्हळेल ना, कसले सांगलेर पुरो दोळे दाकून उदाक सुरवेक येता म्हणू चिंतनाची.. तशे जाल्यार तितले घडद जावून आमगेले एंगेज्मेंट केलेल कसले कर्माक, मिगेल बापसूक रीण कोरनू कितले खर्च जाला ताजे लेक गोतसवे तुका..तेदना आमी दुसरे जात म्हळेल तुगेल आवसूक कळीत नाशिलकी... म्हणू तिणे हळू सांगले.. हांवय तेंच सांगले मसत ट्रै केले, कस केल्यारीय आवसू नाका म्हणुची बसला.. अशे म्हणू सांगता आसतनाची.. आनीकय जोर रडचे आयकूंक आयले आनी सीदा पोन कट.. अब्बा ! अंतू इंतू चिंतलेवरी सक्ससपूल एपरील फूल केले म्हणू आनी काम करचे म्हणू दवरलेले फैल काडले, सांजवेळ आफीस जाले उपरांत, सुमाले घरा वचून सक्कड सांगून सम कोरया म्हणू लेकले.

***

माका आनी सुमाक एंगेज्मेंट जावनू एक म्हयिनो जाले मात्र. इंटर्नेटांतू आमगेले व्हळक जावनू घरातानी जायत म्हणतरीची आमगेले निश्चय जालेले, मुखावया ले एपरील मेंतू चेर्डुवांक स्कूलाक सक्कड रजा आसतना सक्कडांक येवचाक अनुकूल जाता म्हणू, व्हारडिकेचे हाल बूक करच्याक घरांतू दीस पळयता आशिलींची. व्हारडीक म्हणू हांव पाविले कषट सानसुमारचे ना, सुमाले प्र_ पोसल फैनल जावचे तांय, हांव एं.कां जावनू काम आसून बत्तीस वरस जा_ ल्यारीय तीन चार वरस दाकून कितले चेलियो शोधल्यारीय मेळेल ना. एक सम आसा म्हणतना आनेक सम आसना असले परिस्थिती. जातक आनी मेळामेळी म्हणू शोधचेत जाले. सुमा पळोचवाक भारी चंदी म्हणू नातल्यारीय लक्षण आसा चेली. डिग्री जाला. स्वल्प इमोशAनल आनी मूडिटैप.. अशे चिंतून आसतना. 'बास आपयिता आसा' म्हणालो अटेंडर

मार्च म्हयिन्याचे एक राशी काम भाकी आसून, मिसटर महादेव तुवे नित्ययी आफीसाक वेळ कोरनू येवचेवे? अशे तशे म्हणू तागेल नित्याचे सांगचाक लागलो वेगी वेगी काम जावका नेक्सट म्हयिनो आडिटर्स येतांची' म्हणू सांगून तागेल चेंबरा दाकून भायर वचाक सांगले. नित्यावरी ताणे सांगिलेक सक्क_ डाक ओ.के.. ओ.के म्हणचेच हांव , सीदा बायर येवनू क्यांटिना वचून एक हातांतू एक कप चा आनी सिगरेट धरून वोंटाक लायले. सुमा कसले कोरनू आसच्याक पुरो म्हणू चिंतून चार पांच पंता पोन केले, खबर ना. चांग जाले समा फूल जाला .. सांजवेळ वचून मसक मारल्यार जाले म्हणू आफीसाक येवनू टेबला वयरी आशिले फैल सक्कड क्लियर केले. दोनपार जेवणा- वेळेंतू परत दोन पावटी फोन केले, फोन स्वीच आफ जाला म्हणू आयले. ओहोहोहो... म्हणू कलिगसांक सक्कड मेगेल 'एपरील फूलाचे' काणी सांगून हासले, आनी सांजवेळ जावचाक राकून मुखार आशिले गडियारांतू वेळ पळयता पळयता राकता बसलो.

***

स्ह गंटे जाले सतां सीदा कार स्टार्ट कोरनू सीदा सुमाले घरकडे पावलो, घरकडे सुमार जन भरलेवरी आशिले भायर दाकून पळयता, कार पार्क कोरनू घरा भितर पाय दवरतना.. भटमाम एकलो मंत्र म्हणतची ' गोधूळी मूर्तू पुल्ला माळा एकामेक घाला म्हणू सांगलो..' हांग कसले जाता आसा म्हणू कसले कळनाशी पळयतची घरा दारलागी राबलो.. सुमा ..मिगेल सुमा दुसरो बारी

चंदू एकलेल गळेक मैसूर मोगरेचे माळा घालता आसा. मेवणी .. म्हळारी सुमाले भयणी पूजा येवनू “ भावजी.. ना... अंकल.. सकाळी तुमी तुमगेले वारडीक डौट म्हणू सांगले.. ते कसलकी कासट प्राबलम म्हळेल नवे.. त्या दाकून अक्कान.. तिगेल वारडीक राबलारी आमका सक्कड मुखार बादा जातले म्हणून... ह्या सक्कड एरेंज्मेंट केले.. नवो भावजी फारीनांतू कामार आसा, अर्जेंट... अर्जेंट नवे त्या दाकून दोन कुटुंबेचो लोकान मेळून सिंपल जावनू घरांतूची व्हारडीक करता आसंची.. आता सुरवेकची काळ सम ना, कोणाक पातेवचे कळना.. आज तिगेल वारडीक रबल्यारी ते आनी होड खबर जावून, मुखारी टी.वी चानेलांतू येवनू.. अय्यो तशे कसले जालेल ना नवे” म्हणतची धावणिचे मीरी सम करतची एक उंडो मिगेल हातांतू दिले!

तितले भितर.. तोडे चेर्डुंव ‘सार सार तुमगेल सांगात एक सेलफी जावका प्लीस..’ महामूर्खले सांगात सेलफी म्हळेल एक कंटेसट आसा... म्हणतना. ची.. मिगेल बापसूले फोन आयले.. मे ३१क हाल खाली आसा, ..बूक करचे की.! मुखार सुमा.. माका पळयतची...तिगेल बामणालागी कितेंगी पिसू पिसू उलयिता आशिली. आनी थंय राबचे सम न्हंय म्हण सीदा भायर आयलो.. तेदनाची आचानक welcome back to the world’s biggest fool to my life again...कशे जाले हांव केलेल April Fool.. ड्रामा, सुमाले वाटसआप मेसेज आयले मिगेल फोनाक!!.



# » ಮಂಕಿ ಕ್ಯಾಪ್!

ಅಂತೂ ತೆ ದೀವಸ ಆಯಲೆ, ಸುರವೆ ಬಾಣಾಂತೀರ ಘರಾ ಆಯಿಲಿ ಮಿಗೇಲ ಧೂವ ಮಧುರಾ.. ತಿಗೇಲ ಪಾಂಚ ಮ್ಹುಯಿನ್ಯಾ ಚೆರ್ಡು ಮಾಣಿಕ್ಯಾಲೆ ಸಾಂಗಾತ ಅಮೆರಿಕಾಕ ತಿಗೇಲ ಬಾಮಣಾಲಾಗಿ ವಚಾಕ ರೆಡಿ ಜಾತಾ ಆಶಿಲಿ. ಸುರವೆಕ ಪ್ಲಾನ ಕೆಲೇವರೀ ಬಾಣಾಂತೀರ ಅಮೆರಿಕಾಂತು ಕರಚೆ, ಆನೀ ಹಾಂವ ಬಾಣಾಂತೀರ ಕರಚಾಕ ಥಂಯ ವಚೆ ಅಶೆ ಮ್ಹಣು ಆಶಿಲೆ.. ಜಾಲ್ಯಾರ ಕರ್ಮಾಧೀನ ಮಿಗೇಲ ಬಾಮಣಾನ ತೇ ಕಸಲಕೀ ಉಲೋವನು ಆಮಕಾ ವೀಸಾ ಮೆಳನಿ..ತ್ಯಾ ನಂತರ ತೀಚ ಹಾಂಗಾ ಯೆವನು ನಾರ್ಮಲ ಡೆಲಿವರಿ ಜಾವನು ತಿಗೇಲ ವರೀ ಆಸಚೆ ಎಕ ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಜಾಲೆ. ಥಂಯ ಜಾವಂಯೀಕ ರಾಂದಪ ಕೊರಚಾಕ ಬಾದಾ ಮ್ಹಣು ಉಪಾಯ ನಾಶೀ ಅಮೆರಿಕಾಕ ವಚಾಕ ಭಾಯರ ಸರತಾಸ.. ತೇ ಚೆರ್ಡಾಕ ಕಶೇ ಪಳೋವನು ಘೆತಕೀ. ದೇವಾನ ಪಳೋವಕಾ ಆಶೆ ಆಲೋಚನ ಕರತಚೀ,, ಚೆರ್ಡಾಕ ಜಾವಕಾ ಆಶಿಲೆ ಐಟಂ ಸಕ್ಕಡ ಪ್ಯಾಕ ಕರತಾ ಆಸತನಾ... ಅಮ್ಮಾ..ತು ಅಶೆ ಸ್ಲೋ ಕೆಲ್ಯಾರ ಮಾಕಾ ಫ್ಲೈಟ್ ಮಿಸ್ ಜಾತಾ..ಜೆಪಿ ನಗರ ದಾಕೂನ ಏರ್ಪೋರ್ಟಾಕ ವಚಾಕ ದೋನ ಗಂಟೊ ಜಾವಕಾ.. ಟ್ರಾಫಿಕ ಖಂಡಾಪಟೇ ಆಸತಾ. ಮ್ಹಣು ಮೋಗಾ ಧುವೆಲ ಆವಾಜ ಕಾನ್ನಾರ ಪಡಲೊ.. ಜಾಲೆ ಜಾಲೆ ..ಹಾಂವ ಸಕ್ಕಡ ಆಸಕೀ ನಾ ಮ್ಹಣು ಚೆಕ್ ಕರತಾ ಆಶಿಲಿ. ಆನಿ ಸಾಂಗಲೆ ವರೀ ಚೆರ್ಡಾಕ ನ್ಹಾಣಾಯತನಾ ಜಾಗ್ರತ..ಉದಾಕ ನಾಂಕಾ ದಾಕೂನ ಸಕಲ ವಚನಾತಲೇ ವರೀ ಪಳೇ.. ಅಯ್ಯೋ ಅಮ್ಮಾ ಧಾ ಪಂತಾ ಸಾಂಗಲೆ ತುವೆ, ಅಮೆರಿಕಾಂತು ಹಾಂಗಾಚೆ ವರೀ ನಾ.. ಥಂಂ-ಯ ತಾಂಗೇಲ ಸ್ಟೈಲ ದುಸರೇಚ,..ತು ಸಾಂಗಿಲ ಸಕ್ಕಡ ಕೆಲ್ಯಾರ ತಾನಿ ಹಾಸತಾಂಚಿ ಮ್ಹಣಾಲಿ. ಪುರೋ ಪುರೋ.. ತಾನಿ ಕಶೆ ಜಾವಕಾ ತೇ ಕರೋಂಚಿ..ತು ಮಾತ್ರ ಹಾಂವ ಸಾಂಗಿಲ ವರೀ ಕರಿ..ತುಗೇಲ ಬಾಣಾಂತಿ ಲೇಹ ಥಾಂಕಣೆ ಗಟ್ಟಿ ಘಾಲ..ಮ್ಹಣು ಹಾಂವ ಸಾಂಗತಾ ಆಸತನಾ ಭೀತರ ದಾಕೂನ ಮಧುರಾ ಚೆರ್ಡಾ ಘೆವನು ಬಾಯರ ಆಯಲಿ.

ಭಾಯರ ಸರತಾನ ಮಧುರಾಲೆ ದೊಳ್ಯಾಂತು ಉದಾಕ. ಚೆರ್ಡುರ್ ಹಾಸತಾ ಆಶಿಲೆ..ಕಸಲೆ ಮಧು ದೊಳ್ಯಾ ಉದಾಕ ..ಆನಿ ತೀನ ಚಾರ ಮ್ಹಯೊನೋ ಮಾತ್ರ..ನೆಕ್ಸ್ಟ ವಿಸಾ ಯೆತನಾ ..ಹಾಂವ ಆನೀ ತುಗೇಲ ಬಾಪುಸ ದೋಗಾಯ ಅಮೆರಿಕಾಕ ಯೆತಾಂಚಿ.. ತೆದೊಳ ತಾಂಯ ಜಾಗ್ರತಕರೀ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ನಾತೀಕ ಹಾತಾಂತು ಧರಲೆ.. ತಶೆ ನಯ್ ..ಅಮೇರಿಕಾಂತು ಆಸತನಾ ಪ್ರೆಗ್ನೇಂಸಿ ಟೈಮಾರ ಪೋಟ ಹೋಡ ಪಳೊವನು ..ಸಕ್ಕಡಾನ ಚೆಲ್ಲೇ ಚೆರ್ಡುರ್ ಜಾತಾ ತುಂವಯ ತೇಂಚ ಸಾಂಗಿಲೆ..ಆನೀ ಮಾಕಾಯ ಚೆಲ್ಲೇ ಚೆರ್ಡುರ್ ಜಾವಕಾ ಮ್ಹಣು ಆಶಾ ಆಶಿಲೆ.. ಮನೋಜಾಕಯ ಚೆಲೆ ಚೆರ್ಡುರ್ ಮ್ಹಳಾರ ಇಷ್ಟ.. ಆತಾ ಚೆಲಿ ಜಾಲಾ. ದೊಳ್ಯಾಂತುಲೇನ ಉದಾಕ ಗಾಲ್ಲಾರ ಯೆವಯೆ ತಾಂಯ ಮಧುರ ಮ್ಹಣತಾ ಗೆಲಿ. ಅಯ್ಯೋ ಚೆರ್ಡಾರ್ ಆನೀಕಯ ತೂ ತೇ ಸಕ್ಕಡ ವಿಸರೂಂಕ ನಾವೇ.. ಜನಾನ ಕುಶಾಲೇಕ ಸಾಂಗಚೆ ತೇ ಸಕ್ಕಡ.. ಅಮೇರಿಕಾಂತು ಅಶೆ ತಶೆ ಮ್ಹಣತಾ ಆನೀ ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡುರ್ ಮ್ಹಣ ಕಸಲೇಕ ಬೇಜಾರ ತುಕಾ.. ಆಯಲೆ ಕಾಳಾಂತು ಚೆಲೊ ಚೆಲ್ಲಿ ಮ್ಹಣು ಕಸಲೆ ಫರಕ ಆಸಾ.. ತೇಂವಯ ತುಗೇಲ ಅಮೆರಿಕಾಂತು ದೋಗಾಯ ಮಾತೆ ಲಾನ ಕೋರನು ಚಡ್ಡಿ ಘಾಲನು ವತಾಂಚಿ..ಆತಾಂ ಬೇಜಾರ ಕರನಾಕ..ನೆಕ್ಸ್ಟ ತುಕಾ ಚೆಲೊ ಜಾತಾ. ಆಮಗೇಲ ಕುಟುಂಬೇಂತು ಹ್ಯಾ ಕಾಮನ್ ತುಕಾ ಪಳೆ ಎಕ ಭಾವ ಜಾಲಲೊ ಮಾಗೀರ.. ಬಾಪ್ಪಾಕಯ ಪಳೇ ದೋನ ಧುವ ಜಾವನು ಮಾಗೀರ ಪುತು. ಮಾಣಿಕ್ಯಾ ಪಳೇ ಅಮೆರಿಕಾಕ ಬಾಪಸೂಕ ಪಳೋವಚಾಕ ವಚೆ ಮ್ಹಣು ಖುಷಿರ ಆಸಾ ಕಸಲಗೋ ತೇ ಮಂದಾ.. ಥಂಯ ರಾಬೂನ ಆವಸು ಆನೀ ಧುವ..ನಾತೀಕ ಕಾಣಿ ಸಾಂಗತಾ ಆಸವೇ? ಹಾಂವ ಕಾರ ಸ್ಟಾಟ್ ಕೋರನು ಧಾ ನಿಮಿಷ ಜಾಲೆ.. ಲಗೇಜ ಸಕ್ಕಡ ಭೀತರ ದವರೂನ ಜಾಲಾ..ಲೇಟ್ ಜಾತಾ.. ಚೆರ್ಡಾರ್ಕ ಸಾಂಜವೇಳಾಚೆ ವತ ಮಾರತಾ ಆಸಾ.. ವೇಳ ಜಾವನು ಕಾಳೋಕ ಜಾಲ್ಯಾರ ಡ್ರೈವಿಂಗ ಕರಚಾಕ ಕಷ್ಟ ಮ್ಹಣು ಬಾಮಣಾನ ಸಾಂಗಿಲೆ ಆಯಕೂನ.. ದೋಗಾನ ಗುಸು ಗುಸು ಉಲೋವಚೆ ರಾಬೂನ..ಕಾರಾಂತು ಬಸಲೆ.. ಧುವೇಲ ರಡಚೆ ರಾಬಿಲ ನಾ ಕಾರ ಮುಖಾರ ಗೆಲ್ಯಾರೀಯ..ನಾತಿ ಹಾಸತಾ ಆಶಿಲಿ.

ತ್ಯಾ ದೀವಸೂಚ ನಾಕಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗಿಲೆ..ಫಾ-ರಿನ್ನಾಂತು ಆಸತಲೋ ನಾಕಾ..ಇಂಡಿಯಾಂತು ಕೋಣಾ ಶೋಧೂಯಾ..ನಾ ಮೀನಾ..ಬರೆ ಆಸಾ.. ಥೋಡೆ ಕಾಳ ಫೋರೇನಾಂತು ಆಸೂನ ಆಜ ಬಾಣಾಂತಿರ ಜಾವನು ಪರತ ವತಾನ ತುಮಿ ಕಸಲೆ ಬಾಯಲಮನಿಶ್ಯಾವರಿ ದೊಳೆ ಉದಾಕ ಕಾಡೂನ ಬಸಲ್ಯಾಂಚಿ...ತಿಗೇಲ ಡಾಕ್ಯುಮೆಂಟ್ಸ ಚೆಕ್ ಕರಾ.. ಹಾಂವ ಚೆಡ್ಡಾಕ ರೆಡಿ ಕರತಾ..' ಬಾಯಲೇಲ ಉತರ ಆಯಕೂನ ವೈ ಮ್ಹಣು ದಿಸಲೆ, ಧುವ ಮಹಿಮಾ ಎಂ,ಕಾಂ ಜಾತನಾ ಆಯಿಲೆ ಸುರವೇ ಸೊಯರೀಕ ಮನ್ವಿತಾಲೆ.. ಆಸ್ಟ್ರೇಲಿಯಾಂತು ಕಾಮಾಂತು ಆಶಿಲೊ.. ತೆದನಾ ಬಾಯಲೇನ ನಾಕಾ ಎಕಲಿ ಧುವ ..ಇಂಡಿಯಾಂತು ಶೋಧುಯಾ ಮ್ಹಳೆಲ.. ಹಾಂವ ಮಾತ್ರ ಆಸ್ಟ್ರೇಲಿಯಾ ..ಬೆಂಗಳೂರಾ ದಾಕೂನ ಆಟ ಧಾ ಗಂಟೆ ವಾಟ.. ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ವಾರಡಿಕ ಕೊರನು ದಿಲೆ, ತೇ ಜಾತರಿ ಥೊಡೆ ಬೇಜಾರ ಜಾಲೇಲ ಆಸಾ. ಆಮೀ ದೋಗಾಯ ಎಕ ವರಸಾ ಪುಡೆ ಥಂಯ ವಚೂನ ಆಯಲೆ, ವಾರಡಿಕ ಜಾವನು ದೋನ ವರಸಾನ ಧುವ ಗುರ್ಭಿಣಿ ಜಾವನು..ಆಟ ಮ್ಹಯಿನೋ ಜಾವನು ಹಾಂಗಾ ಯೆವನು ಚೆಲ್ಲೇ ಚೆಡ್ರ್ಡು ಆನಿ ಬಾಣಾಂತಿರ ಜಾವನು ಪಾಂಚ ಮ್ಹಯಿನೇ ಚೆಡ್ಡಾ ಸಾಂಗಾತ ಆಜ ಬಾಮಣಾ ಥಂಯ ವಚಾಕ ರೆಡಿ ಜಾತ ಆಶಿಲಿ, .. ಆನಾ.. ತೂ ಅಶೆ ಬೇಜಾರ ಕೋರನು ಬಸಲಾರ, ಹಾಂವ ಮನ್ವಿತಾಕ ಇಂಡಿಯಾಕ ಯೆವಚಾಕ ಸಾಂಗತಾ, ಆನಿ ಹಾಂಗಾ ಸೆಟಲ ಜಾತಾ ಆಮಿ..ಆಸ್ಟ್ರೇಲಿಯಾ ನಾಕಾ ಕಾಂಯ ನಾಕಾ.. ಹಾಂಗಾ ಸಾನ ಕಾಮ ಕೊರನು ಆಸತಾಂಚಿ ಮ್ಹಣಚೆ ಧುವೇಲ ಆನಿ ಬಾಯಲೆಲೆ ಉತ್ರಾ ಆಯಕೂನ ಹಾಂವ ಉಟೊವನ ತಯಾರ ಜಾಲೊ.

**

'ಸಾರ್ ಅರ್ಧ ಗಂಟೆ ದಾಕೂನ ರಾಕೋನ ಆಸಾ ಹಾಂವ.. ವೈಟ ಫಿಲ್ಡ ದಾಕೂನ ದೋನ ಗಂಟೆ ವಾಟ ಆಸಾ ಏರಪೋರ್ಟಕ.. ಡ್ರೈವರಾನ ಸಾಂಗಿಲೆ ಸತಾಂ ..ಲಗೇಜ ಸಕ್ಕಡ ಕಾರಾಂತು ಘಾಲನು..ಕಾಳೆ ರಂಗಾಚೆ ಮಂಕಿ ಕ್ಯಾಪ ಘಾಲೇಲ ನಾತು

ಮನೀಶಾಲೆ ತೊಂಡಾರ ಹಾಸೂಯ ನಾತಿಲೆ, ಕಾರ ಮುಖಾರ ಗೆಲೆ ಆನೀ ಮಿನಾಕ್ಷಿಲೆ ಉಪದೇಶ ಚಲತಾ ಆಶಿಲೆ,

**

ಕಾರ ನಂಬರ ಕೆಎ 01 ಎಂ 1234 ಆನಿ ಕೆಎ 02 ವಿ 4321 ದೋನಿಯ ಸಾದಹಳ್ಳಿ ಗೇಟಾ ಲಾಗಿ ಆಸಚೆ ಹೋಟೆಲ ಏರ್ಪೋರ್ಟ ವ್ಯೂ ಮುಖಾರ ಯೆವನು ರಾಬಲೆ, ಸಕಲ ಧೇಂವನು ಪಳೆ ಮಧುರಾ..ಹಾಂಗಾ ಜೆವಣ ಕೋರನು.. ಏರ್ಪೋರ್ಟಾಂತು ಕಾಸ್ಲೀ..ಹಾ ತಶೆ ಚೆರ್ಡಾಕ ಧೂದ ಪೀವ್ನೋನ ಡೈಪರ್ಸ ಚೇಂಜ ಕರಿ, ಬೇಬಿ ಚೇಂಜ ರೂಮ ಹಾಂಗಾ ಆಸಾ... ಏರ್ಪೋರ್ಟಾಂತು ಆಮಕಾ ಭಿತರ ಸೋಣಾಚೇ,.. ಬಿ ಕ್ವಿಕ್ ಮ್ಹಳೇ ಹಾಂವ.. ಜಾಯತ ಆನಾ.. ಮ್ಹಣು ಮಂದಾಕಿಣಿನ ಮಾಣಿಕ್ಯಾಕ ಘೆವ್ನೂನ ಭೀತರ ಗೆಲಿ,

**

ಭೇ ಕಸಲೆ ಇಂಡಿಯಾ ಹೇ.. ಕಂಯ ಪಳಯಲ್ಯಾರ ರಷ್..ಬೇಬಿ ಚೇಂಜ್ ರೂಮಾಕ ಕ್ಯೂ.. ಚೆರ್ಡಾಕ ಧೂದ ದೀವನು ಡೈಪರ್ಸ ಚೇಂಜ ಕರಕಾ ಮ್ಹಣು ರಾಕತಾ ಆಶಿಲ ಮಧುರಾಕ ಕಂಯ ವೇಳ ಜಾತಾಕೀ ಮ್ಹಳೇಲ ಭಂಯ.. ಲಾನ ರೂಮ ತಾಂತು ದೋಗ ಜನ ಸುರವೇಕಚೀ ಆಸಂಚಿ..ಭಾಯರ ಮಿಗೇಲ ಸಾಂಗಾತ ಆನೀ ದೋಗ ಆಸಂಚೀ.. ಅಂತೂ ಅಡ್ಜೆಸ್ಟ ಕೋರನು ಭಿತರ ವಚೂನ ಚೆರ್ಡಾಕ ಧೂದ ದೀವನು ಡೈಪರ್ಸ ಚೇಂಜ್ ಕೊರನು, ಕಾಳೆ ರಂಗಾಚೆ ಮಂಕಿ ಕ್ಯಾಪ್ ಘಾಲನು.. ಎಕ ಪಂತಾ ಫ್ರೆಶ ಜಾವಯಾ ಮ್ಹಣುನ ವಾಷ್ ಬೆಸಿನಾ ಕಡೇನ ಘಂವಲಿ, ಬಾಯರ ದಾಕೂನ ಆವಸೂಲೆ ಆವಾಜ ಆಯಕತಾ ಆಸಾ.. ಯೋ ಮಧೂ..ಆನಾನ ಕಾರ ಸ್ಟಾರ್ಟ್ ಕೆಲಾ ವೇಳ ಜಾಲೆ.. ಜಾಲೆ ಅಮ್ಮಾ ಮ್ಹಣು ಚೆರ್ಡಾಕ ಧೋರನು ಗಡಬಿಡಿಂತು ಭಾಯರ ಆಯಲಿ.!

**

ಏರ್ಪೋರ್ಟಾಂತು ಮೆಜೆಸ್ಟಿಕಾ ಬಸ್ ಸ್ಟಾಂಡ ಪಶಿ ಜನ ಚಡ..

ತೂ ಕಾಂಯ ಬೇಜಾರ ಕೊರನುಕಾ ಅಮ್ಮಾ..ತು ಸಾಂಗಲೆ ವರಿ ಚೆರ್ಡ್ವಾಕ ಪಳೋವನು ಘೆತಾ.. ಆನ್ನಾಕ ಡಯಾಬಿಟಿಕ್ಸ ಚಡ ಜಾಲಾ.. ವಕ್ಕದ ಕರೀ.. ವಾಟ್ಸಾಪಾಂತು ವಿಡಿಯೋ ಕಾಲ ಕರತಾ..ಮುರಳೀಕ ಚಾಂಗ ಕೊರನು ಶಿಕಚಾಕ ಸಾಂಗ ಅಮೆ-ರಿಕಾಂತು ಎಂಎಸ್ ಕರಚಾಕ ಚಾನ್ಸ ಮೆಳತಾ..ಹಾಜೆ ಮಧೇಂತು ಟೈಂ ಜಾಲೆ ತೀ ಭೀತರ ವಚೋ.. ಮ್ಹಣು ಬಾಮಣಾನ ಅಪಯಿಲೆ. ಮಾಣಿಕ್ಯಾಕ ಪೋಟ್ಟೊನ ದೋರನು..ಸೋಡಲೆ.. ಚೆರ್ಡು ರಡತಾ ಆಶಿಲೆ ಗುರುತ ನಾತಲೆವರೀ..

**

ಬೆಂಗಳೂರಾಚೆ ಕೆಂಪೇಗೌಡ ಇಂಟರನ್ಯಾಶನಲ್ ಏರ್ಪೋರ್ಟಾಂತು ಮಧ್ಯರಾತಿ ಸಾಡೆ ಇಕ್ರಾಕ ಅಮೆರಿಕನ್ ಏರ್ಲೈನ್ಸ ಆನೀ ಕಾಂಟಾಸ್ ಏರ್ಲೈನ್ಸ ವಿಮಾನ ಎಕಾ ಮಾಕಶಿ ಆನೆಕ ಉಬೂನ ಆಕಾಶಾಂತು ವಯರ ಆಯಲೆ. ಅರ್ಧ ಗಂಟ್ಯಾನ ಸೀಟ ಬೆಲ್ಟಾಚೆ ಸೈನ ಆಫ್ ಜಾಲೆ ಸತಾಂ ಕುರಟಾಕ ಬಾಂದಿಲೆ ಮಾಣಿಕ್ಯಾಕ ಟಾಯ್ಲೆಟಾಕ ವರೂನ ಡೈಪರ್ಸ ಚೇಂಜ ಕೆಲೆ..ಪಳೋವಚೆ ಕಸಲೆ..ಚೆರ್ಡು ಚೆಲಿ ನಯ ಚೆಲೋ..!! ಭಾಯರ ಯೆವನು ವಿಮಾನ ರಾಬೋಯಾ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ ಚೈನ ನಾ..ಆನೀ ಕಂಡಕ್ಟರ್ ನಾಂಚಿ ನಾ.. ಪೋನ ಕರಯಾ ಮ್ಹಳಯಾರ ಸಿಗ್ನಲ ನಾ. ತಳ ಮಳ ಜಾವನು ಸಿದಾ ಸಿಟಾರ ಯೆವನು ಬಸಲಿ, ..'ಏನೀ ಪ್ರಾಬ್ಲೆಮ ಮೆಡಂ' ಏರ್ಹೋಸ್ಟೆಸಾನ ಯೆವನು ವಿಚಾರಲೆ. ಹಾಂವ ಸುಧಾರಸೂನ ಘೆವೂನ ..ನೋ..ನೋ.ಮ್ಹಣತಾ..ಮಾಣಿಕ್ಯಾಕ ಪೋಟೋನ ಧರೂನ ರಡುಂಕ ಲಾಗಲಿ..ನಾ ..ನಾ.. ಚೆಲೆ ಚೆರ್ಡ್ವಾಕ.. ಲೊಚ ..ಲೊಚ ಆವಾಜ ಆಯಕಲೆ.. ಆನೀ ವಿರುದ್ದ ದಿಕಾನ ಟರ್ಬುಲೆಂಸಾ ಸಾಂಗಾತ ಉಬತಾ ಆಸಚೆ ಕಾಂಟಾಸ ಏರ್ಲೈನ್ಸ ದಾಕೂನ..ಮೈ ಬೇಬಿ ಈಸ್ ಎಕ್ಸಚೇಂಜ್ಡ ಮ್ಹಳೇಲ ಆವಾಜ ಆಯಕ ಪಡಲೆ.

ಹಾತಾಂತು ಆಶಿಲೆ ವಾಚಾರ ಬಾರಾ ಜಾಲೆ ಸತಾಂ.. ಎಪ್ರಿಲ ಎಕ ತಾರೀಕ ದಾಕಯಿತಾ ಆಶಿಲೆ.

□□□□□□

# » मंकी क्याप!

अंतू ते दीवस आयले, सुरवे बाणांतीर घरा आयिली मिगेल धूव मधुरा.. तिगेल पांच म्हयिन्या चेर्डू माणिक्याले सांगात अमेरिकाक तिगेल बामणाला_ गी वचाक रेडी जाता आशिली. सुरवेक प्लान केलेवरी बाणांतीर अमेरिकांतू करचे, आनी हांव बाणांतीर करचाक थंय वचे अशे म्हणू आशिले.. जाल्यार कर्माधीन मिगेल बामणान ते कसलकी उलोवनू आमका वीसा मेळनी..त्या नंतर तीच हांगा येवनू नार्मल डेलिवरी जावनू तिगेल वरी आसचे एक चेली चेर्डू जाले. थंय जावंयीक रांदप कोरचाक बादा म्हणू उपाय नाशी अमेरिकाक वचाक भायर सरतास.. ते चेर्डाक कशे पळोवनू घेतकी. देवान पळोवका आशे आलोचन करतची,, चेर्डाक जावका आशिले ऐटं सक्कड प्याक करता आसतना... अम्मा..तू अशे स्लो केल्यार माका फ्लैट मीस जाता..जेपी नगर दाकून एपोर्टाक वचाक दोन गंटो जावका.. ट्राफीक खंडापटे आसता. म्हणू मोगा धुवेल आवाज कान्नार पडलो.. जाले जाले ..हांव सक्कड आसकी ना म्हणू चेक करता आशिली. आनी सांगले वरी चेर्डाक न्हाणायतना जाग्रत.. उदाक नांका दाकून सकल वचनातले वरी पळे.. अय्यो अम्मा धा पंता सांगले तुवे, अमेरिकांतू हांगाचे वरी ना.. थंय तांगेल स्टैल दुसरेच,..तू सांगील सक्कड केल्यार तानी हासतांची म्हणाली. पुरो पुरो.. तानी कशे जावका ते करोंची..तू मात्र हांव सांगी¯ वरी करी..तुगेल बाणांती लेह धांकणे गट्टी घाल..म्हणू हांव सांगता आसतना भीतर दाकून मधुरा चेर्डा घेवनू बायर आयली.

**

भायर सरतान मधुराले दोळयांतू उदाक. चेर्डू हासता आशिले..कसले मधू दोळया उदाक ..आनी तीन चार म्हयोनो मात्र..नेक्सट विसा येतना ..हांव आनी तुगेल बापूस दोगाय अमेरिकाक येतांची.. तेदोळ तांय जाग्रतकरी म्हणू सांगून नातीक हातांतू धरले.. तशे नय ..अमेरिकांतू आसतना प्रेग्नेंसी टैमार पोट होड पळोवनू ..सक्कडान चेल्ले चेर्डू जाता ...तुंवय तेंच सांगिले..आनी माकाय चेल्ले चेर्डू जावका म्हणू आशा आशिले.. मनोजाकय चेले चेर्डू म्हळार इषट.. आता चेली जाला. दोळयांतुलेन उदाक गाल्लार येवये तांय मधूर म्हणता गेली. अय्यो चेर्डा आनीकय तू ते सक्कड विसरूक नावे.. जनान कुशालेक सांगचे ते सक्कड.. अमेरिकांतू अशे तशे म्हणता आनी चेली चेर्डू म्हण कसलेक बेजार तुका..आयले काळांतू चेलो चेल्ली म्हणू कसले फरक आसा..तेंवय

तुगेल अमेरिकांतू दोगाय माते लान कोरनू चड्डी घालनू वतांची..आतां बेजार करनाक..नेक्सट तुका चेलो जाता. आमगेल कुटुंबेंतू ह्या कामन तुका पळे एक भाव जाललो मागीर.. बाप्पाकय पळे दोन धूव जावनू मागीर पुतू. माणिक्या पळे अमेरिकाक बापसूक पळोवचाक वचे म्हणू खुषीर आसा... कसलगो ते मंदा.. थंय राबून आवसू आनी धूव..नातीक काणी सांगता आसवे? हांव कार स्टाट कोरनू धा निमीष जाले.. लगेज सक्कड भीतर दवरून जाला..लेट जाता.. चेर्डाक सांजवेळाचे वत मारता आसा.. वेळ जावनू काळोक जाल्यार ड्रैविंग करचाक कषट म्हणू बामणान सांगिले आयकून.. दोगान गुसू गुसू उलोवचे राबून..कारांतू बसले.. धुवेल रडचे राबील ना कार मुखार गेल्यारीय..नाती हासता आशिली.

**

त्या दीवसूच नाका म्हणू सांगिले..फारिन्नांतू आसतलो नाका..इंडियांतू कोणा शोधूया..ना मीना..बरे आसा.. थोडे काळ फोरेनांतू आसून आज बाणांतीर जावनू परत वतान तुमी कसले बायलमनिश्यावरी दोळे उदाक काडून बसल्यां_ ची...तिगेल डाक्युमेंटस चेक करा.. हांव चेर्डाक रेडी करता..' बायलेल उतर आयकून वै म्हणू दिसले, धूव महिमा एं,कां जातना आयिले सुरवे सोयरीक मन्विताले.. आसट्रेलियांतू कामांतू आशिलो.. तेदना बायलेन नाका एकली धूव ..इंडियांतू शोधुया म्हळेल..हांव मात्र आसट्रेलिया ..बेंगळूरा दाकून आट –धा गंटे वाट.. म्हण सांगून वारडीक कोरनू दिले, ते जातरी थोडे बेजार जालेल आसा. आमी दोगाय एक वरसा पुडे थंय वचून आयले, वारडीक जावनू दोन वरसान धूव गुर्भिणी जावनू..आट म्हयिनो जावनू हांगा येवनू चेल्ले चेर्डू आनी बाणांतीर जावनू पांच म्हयिने चेर्डा सांगात आज बामणा थंय वचाक रेडी जात आशिली, .. आना.. तू अशे बेजार कोरनू बसलार, हांव मन्विताक इंडियाक येवचाक सांगता, आनी हांगा सेटल जाता आमी..आसट्रेलिया नाका कांय नाका.. हांगा सान काम कोरनू आसतांची म्हणचे धुवेल आनी बायलेले उत्रा आयकून हांव उटोवन तयार जालो.

**

'सार अर्ध गंटे दाकून राकोन आसा हांव.. वैट फिलड दाकून दोन गंटे वाट आसा एरपोर्टक..ड्रैवरान सांगिले सतां ..लगेज सक्कड कारांतू घालनू..काळे रंगाचे मंकी क्याप घालेल नातू मनीशाले तोंडार हासूय नातिले, कार मुखार

गेले आनी मिनाक्षिले उपदेश चलता आशिले,

**

कार नंबर केए ०१ एं १२३४ आनी केए ०२ वी ४३२१ दोनीय सादहळ्ळी गेटा लागी आसचे होटेल एपोर्ट व्यू मुखार येवनू राबले, सकल धेंवनू पळे मधुरा.. हांगा जेवण कोरनू.. एपोर्टांतू कासट्ली..हा तशे चेर्डाक धूद पीवोन डैपर्स चेंज करी, बेबी चेंज रूम हांगा आसा... एपोर्टांतू आमका भितर सोणाची,.. बी क्वीक म्हळे हांव.. जायत आना.. म्हणू मंदाकिणीन माणिक्याक घेवून भीतर गेली,

**

छे कसले इंडिया हे.. कंय पळयल्यार रष..बेबी चेंज रूमाक क्यू.. चेर्डाक धूद दीवनू डैपर्स चेंज करका म्हणू राकता आशील मधुराक कंय वेळ जाताकी म्हळेल भंय.. लान रूम तांतू दोग जन सुरवेकची आसंची..भायर मिगेल सांगात आनी दोग आसंची.. अंतू अडजेसट कोरनू भितर वचून चेर्डाक धूद दीवनू डैपर्स चेंज कोरनू, काळे रंगाचे मंकी क्याप घालनू.. एक पंता फ्रेश जावया म्हणून वाष बेसिना कडेन घंवली, बायर दाकून आवसूले आवाज आयकता आसा.. यो मधू..आनान कार स्टार्ट केला वेळ जाले.. जाले अम्मा म्हणू चेर्डाक धोरनू गडबिडिंतू भायर आयली.!

**

एपोर्टांतू मेजेसटिका बस स्टांड पशी जन चड.. तू कांय बेजार कोरनुका अम्मा..तू सांगले वरी चेर्डाक पळोवनू घेता.. आन्नाक डयाबिटिक्स चड जाला.. वक्कद करी.. वाटसापांतू विडियो काल करता..मुरळीक चांग कोरनू शिकचाक सांग अमेरिकांतू एंएस करचाक चान्स मेळता..हाजे मधेंतू टैं जाले ती भीतर वचो.. म्हणू बामणान अपयिले. माणिक्याक पोटोन दोरनू..सोडले.. चेर्डू रडता आशिले गुरूत नातलेवरी..

**

बेंगळूराचे केंपेगौड इंटरन्याशनल एपोर्टांतू मध्यराती साडे इक्राक अमेरिकन एरलैन्स आनी कांटास एरलैन्स विमान एका माकशी आनेक उबून आकाशांतू

वयर आयले. अर्ध गंट्यान सीट बेल्टाचे सैन आफ जाले सतां कुरटाक बांदिले माणिक्याक टायलेटाक वरून डैपर्स चेंज केले..पळोवचे कसले..चेर्डू चेली नय चेलो..!! भायर येवनू विमान राबोया म्हळयार चैन ना..आनी कंडकटर नांची ना.. पोन करया म्हळयार सिग्नल ना. तळ मळ जावनू सिदा सिटार येवनू बसली, ..'एनी प्राबलेम मेडं' एन्होसटेसान येवनू विचारले. हांव सुधारसून घेवून ..नो..नो.म्हणता..माणिक्याक पोटोन धरून रडुंक लागली..ना ..ना.. चेले चेर्डाक.. लोच ..लोच आवाज आयकले.. आनी विरुद्द दिकान टरबुलेंसा सांगात उबता आसचे कांटास एरलैन्स दाकून..मै बेबी ईस एक्सचेंजड म्हळेल आवाज आयक पडले.

हातांतू आशिले वाचार बारा जाले सतां.. एपरील एक तारीक दाकयिता आशिले.

□□□□□

# » ರಿವರ್ಸ ಗೇರ್

'ಕಾಮ, ವಾರಡೀಕ, ಘರ, ಚೆರ್ಡುಂವ ಮ್ಹಣೂನ ಸಾಬಾರ ವರಸ ಜಾಲೆ.. ಕೋಣಾಕಯಿ 'ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ' ಕೆಲೆಲ ನಾ ..ಆನೀ ಆತಾ 'ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ' ಕರಚೇಚ ವಿಸೋರರನ ಗೆಲಾ.. ಕ್ಯಾಲೆಂಡರಾಂತುಲೆ ಮಾರ್ಚ ಮ್ಹಯಿನ್ಯಾಚೆ ಅಖೇರಿಚೆ ದೀಸ ಪಳಯತನಾ ಹೋ ವಿಚಾರು ಬೋಡಾಕ ಆಯಲೆ. ಸಾನ ಆಸತನಾ ಸ್ಕೂಲಾಂತು ಕಾಲೇಜಾಂತು ಸಾಬಾರ ಲೋಕಾಂಕ ಹಾಸೂನ ಹಾಸೂನ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಕರಚೆ ಆಶಿಲೆ, ಆನೀ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಜಾವಚೆ ಆಶಿಲೆ.. ತಾಚೆ ಉಪರಾಂತ..ದುಡು.. ದುಡು.. ಪೊಸಿಶನ..ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ತೇ ಖುಷಿ ನಾ ಜಾಲೆ ಹ್ಯಾ ಮೆಕ್ಯಾನಿಕಲ್ ಲೈಫಾಂತು ಮ್ಹಣು ಆಲೋಚನ ಕರತನಾ ಇಕ್ರಾ ಗಂಟೆ ಜಾಲೆ.. ತುಮಗೆಲೆ ಕಸಲೆ ಮಣ ಮಣ ಕ್ಯಾಲೆಂಡರ ಪಳೋವನು.. ವಚೂನ ನಿದಯಾಂಚಿ...ಬಾಯಲೆಲ ಉತ್ರಾಂ ಕಾನ್ನಾರ ಪಡಲೆ..ಆನೀ ವೇಳ ಕೆಲ್ಯಾರ ಜಾವಚೆ ನಾ ಮ್ಹಣ ಸೀದಾ ಹಾಂತಳಾ ಲಾಗಿ ಗೆಲೊ, ಕಸಲೇಯ ಪಾಯ ಪಳೋವಯಾ ಮ್ಹಣು.

**

ಹೇರ ದೀವಸ ಸಕಾಳಿ ಉಟೋವನು ವಾಕಿಂಗ ಜಾವನು, ಪೇಪರ ಹಾಡಯಾ ಮ್ಹಣು ಭಾಯರ ಸರಲೊ..ಬಾಗಿಲ ಫಾಲ ಸುಮಿ... ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ಭಾಯರ ಆಯಲೊ. ಮಾತ್ಯಾಂತು ಮಾತ್ರ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲಾಚೆ ಆಶಿಲೆ.. ಆಜ ಕಸಲೆ ಜಾವ್ಪೋ, ಕೋಣಾಕ ತರೀ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಕರೂಕಾ.. ಕೋಣಾಕ ಕಿತ್ಯಾಕ ಸಗಳೋ ದೀಸ ಸೀರಿಯಸ್ ಜಾವನು ಸೀರಿಯಲ ಪಳೋವನು ಆಸಚೆ ಮಿಗೇಲ ಬಾಯಲೇಕ ಚೇ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಕರಕಾ.. ರಾಗ ಯೆತಲೇ.. ತೇ ಮಾಗೀರ ಸಮಾಧಾನ ಕೆಲ್ಯಾರ ಜಾತಾ ಮ್ಹಣು ಆಲೋಚನ ಕರೂನ..ಮಿಗೇಲ ಪ್ರಾಯೆಚೆ ದೋಸ್ತಾ ಸಾಂಗಾತ ದಾಸ ವಾಣಿ ಆಯಕೂನ ಪಾರ್ಕಾಂತು ವಾಕ್ ಕರೂಂಕ ಶುರು ಕೆಲೆ.

ತೀನ ಚಾರ ರೌಂಡ ವಾಕ್ ಜಾಲ್ಯಾರೀಯ ಬಾಯಲ

ಸುಮಂಗಳಾಕ ಕಶೆ ಫೂಲ್ ಕರಚೆ ಮ್ಹಳೇಲ ಕಳೂಂಕ ನಾ. ಆಯಚೆ ವಾಕಿಂಗ ಪುರೋ ಮ್ಹಣು..'ಯೆತಾ ಹಾಂವ ಮ್ಹಣ ತಾಂಕಾ ಸಾಂಗೂನ ದೂದಾಚೆ ಬುತಾ ಲಾಗಿ ಆಯಲೊ.. ಎಕ ಲೀಟರ ದೂದ ಘೆವ್ನೂನ ಘರಾ ವಚಾ ಮ್ಹಣತನಾ ಪರತ ಎಪ್ರಿಲ್ ಫೂಲಾಚೆ ವಿಚಾರ ಯೆವನು..ಸಡನ್ ಎಕ ಐಡಿಯಾ ಬೋಡಾ ಯೆವನು ..ಫೋನ ಕಾಡೂನ ಸೀದಾ ಬಾಯಲೇಕ ಎಕ ಫೋನ ಕೆಲೆ.

ಪಳೇ..ಸುಮೀ..ಹಾಂವ ಅಶೇ ಸಾಂಗತ ಮ್ಹಣು ಬೇಜಾರ ಕರನಾಕ..ಮಸ್ತ ದೀಸ ದಾಕೂನ ತುಕಾ ಸಾಂಗೂಕ ಮ್ಹಣ ಆಶಿಲೋ..ಡೈರೆಕ್ಟ ಜಾವಚೆ ತಸಲೆ ನಾ..ಸಾಂಗಚಾಕ ಎಕ ತರ ಜಾತಾ..ಧೈರ್ಯ ನಾ.. ಆಮೀ ದೋಗಾನ ಸಾಬಾರ ವರಸ ದಾಕೂನ ಸಂಸಾರ ಕೆಲಾ..ಕಷ್ಟ ಸುಖ ಪಳಯಲಾ..ಪುತು ಧೂವ ಘಾರಿನಾಂತು ಸೆಟ್ಲ ಜಾಲಾಂಚಿ..ಮಾಕಾ ಆತಾ ಸನ್ಯಾಸಿ ಜಾವಚಾಕ ಮನ ಜಾಲಾ. .. ತು ಬೇಜಾರ ಕರನಾಕ..ಹಾಂವ ಸನ್ಯಾಸಿ ಜಾತಾ ಆಸಾ..ಮುಖಾರ ಹಾಂವ ಕಂಯ ವತಾ ಮಳೇಕ ಕಳಿತ ನಾ.. ಆನೀ ಘರಾಕ ಯೆನಾ..ತುಗೇಲ ಜೀವನಾಕ ಜಾವಕಾ ಜಾಲೆಲ ದುಡು  ಕೆಲಾ..ಘರ ತುಗೇಲ ನಾವಾರೀ ಆಸಾ.. ಕೊಣಾಯ ತರೀ ವಿಚಾರಲಾರಿ ..ನಾರ್ತ ಇಂಡಿಂ-ಯಾ ಟೂರಾಕ ಘೆಲಾ ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗ..ಥೋಡೆ ದೀಸ ಜಾತರೀ ಲೋಕ ವಿಸರತಾ..ತೂ ಬೇಜಾರ ಕರನಾಕ.. ಚೆರ್ಡುಂವಾನ ಫೋನ ಕೆಲ್ಯಾರ ಹಳೂ ತಾಂಕಾ ಸಾಂಗ.. ನಾತ್ರಾಂಕ ಮಿಗೇಲ ಆರ್ಶೀವಾದ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗ..ಜಾಗ್ರತ ಕರಿ, ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ತೀಗೇಲ ಉತ್ರಾಕ ರಾಕನಶೀ.. ಫೋನ್ ಸ್ವಿಚ್ ಆಫ್ ಕೆಲೆ. ಆನೀ ಎಕ ಗಂಟೆನ ಘರಾಕ ಲೇಟ ಕರೂನ ವತಾ.. ಮಾಗೀರ ಪಳೋವಯಾ ದೋನಪಾರಾ ಹೋಟೆಲಾಕ ಜೆವಣಾಕ ವೆಲ್ಯಾರ ಜಾಲೆ..ಮ್ಹಣು ಚಿಂತೂನ ಟೈಂ ಪಾಸ ಕರಚಾಕ ಥಂಯ ಮುಖಾರ ಆಶಿಲೆ ಹೋಟೆಲಾಕ ವಚೂನ ದೋನ ಇಡ್ಲಿ, ಎಕ ವಡಾ ಆನೀ ಕೇಸರಿ ಬಾತ ಖಾವನು..ಲೈಬ್ರರಿವಚೂನ ಧಾ ಭಾರಾ ಪೇಪರ ಪಳಯಲೆ. ಆತಾ ಘರಾಂತು ಸುಮಿ..ಕಸಲ ಕರತಾ ಆಸಚಾಕ ಪುರೋ ಮ್ಹಳೇಲ ಮಾತೆಂತು ಆಶಿಲೆ.. ಗಡಿಬಿಡಿ ಕೊರನು ಚೆರ್ಡುವಾಂಕ ಸಕ್ಕಡ ಪೋನ ಕರೂನ..

ಘರಾ ಲಾಗೀ ಆಶಿಲ್ಯಾಂಕ ಸಾಂಗೂನ ರಾದ್ಧಾಂತ ಜಾವಚೆ ನಾ ..ಮ್ಹಳೇಲ ಭಂಯ ಆಶಿಲೆ. ಅಂತೂ ಇಂತೂ ಎಕ ಗಂಟೊ ಜಾತರಿ ದೂದಾ ಪ್ಯಾಕೇಟ ಧೊರನು ಘರಾ ಲಾಗಿ ಗೆಲೊ.

ಕಂಪೌಂಡಾಲಾಗೀ ವತಾನ ಘರಾಲಾಗಿ ಥೊಡೆ ಲೋಕ ಆಶಿಲೆ.. ಕಸಲಕೀ ಕರೂಕ ವಚೂನ ಹ್ಯಾ ಕಸಲೆ ಜಾಲೆ ಆತಾಂ..ಮ್ಹಣು ಘರಾ ಭೀತರ ಗೆಲೊ.. ಧಾ ಬಾರ ಜನ ಉಲೋವಚೆ ಆಯಕತಾ ಆಶಿಲೆ..ಛೇ.. ಛೇ..ಮ್ಹಣು.. ಸುಮಿ..ಸುಮಂಗಳ ದಿಸಚಾಕ ನಾ.. ವಾಟರಾಚೆ ಬಾಯಲ ಮನೀಶ ಸಕ್ಕಡ ಯೆವನು ಭರಲೆ ಘರಾಲಾಗಿ..ಕಸಲೆ ಜಾಲಾ ಮ್ಹಣು ವಾಸರೀ ವತಾನ.. ಲಾಗೀ ಘರಾಚೆ ಗೋವಿಂದರಾಯಾಲೆ ಬಾಯಲ ಪದ್ಮಾವತಿಯಮ್ಮ.. ಯೆವನು ಕಸಲೆ ಕರಚೆ ವೆಂಕಟ್ರಾಯಾ.. ಆಮಕಾ ಆತಾ ಕಳಿತಾಕ ಆಯಲೆ..ಸಕ್ಕಡ ದೇವಾಲೆ ಇಚ್ಛಾ..ಮಾಕಾ ಕಸಲೇಯ ಅರ್ಥು ಜಾಯನೀ..ಸುರವೇಕ ಸುಮಿ..ಕಂಯ ಆಸೂಕಾ ಮ್ಹಣು ಪಳೋವಕಾ ಮ್ಹಣ..ಘರ ಸಕ್ಕಡ ಭೋಂವಲೊ.. ಸುಮಿ..ಸುಮಿ.ಮ್ಹಣು..ಸಕ್ಕಡಾನ ದೇವಾಲ ಕೂಡಾ ಕಡೇನ ಬೋಟ ದಾಕಯಲೆ.. ಹಾಂವ ಹಗೂರ ಬಾಗಿಲ ಕಾಡೂನ ಪಳಯಲೆ.. ಕೋಣ ಮ್ಹಣ ಕಳನೀ ಮಾಕಾ..ಎಕ ಬಾಯಲ ಮನೀಶ.. ನಾ ಸುಮೀ.. ಮಿಗೇಲ ಸುಮಂಗಳಾ..ಕೇಸರಿ ರಂಗಾಚೆ ಕಿರಗಿ ನೇಸೂನ..ಮಾತ್ಯಾ ಕೇಸ ಸಕ್ಕಡ ಸೋಡೂನ.. ಹಾತಾಂತು ತಾಳ ಘೇವೂನ..ಭಾಯರ ಆಯಲಿ.. " ತುಮಕಾ ಸಾಂಗೂನ ಹಾಂವಯ ಸನ್ಯಾಸಿನಿ ಜಾವಯಾ ಮ್ಹಣ ಆಶಿಲಿ.. ಮಾಕಾ ಅಳಶೀಕ ಜಾಲೆ.. ಮಾಕಾಯ ಸಂಸಾರ ಪುರೋ ಜಾಲಾ..ತುಮೀ ಬರೆ ನಿರ್ಧಾರ ಘೆತಲಾ..ಆಮೀ ಸಾಂಗಾತ ವೆಚೆ ನಾಕಾ.. ತುಮಿ ತುಮಗೇಲ ದಿಕಾಕ ಆನೀ ಹಾಂವ ಮಿಗೇಲ ವಾಟೆಕ..ಪ್ರಪಂಚ ಉರೂಟ ಆಸಾ..ಪರತ ದೇವಾಲ ದಯೆನ ಮೆಳತಲೆ..ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ತಾಳ ಮಾರೂನ..ಗೇಟಾ ದಾಕೂನ ಭಾಯರ ಗೆಲಿ

ಮಾಕಾ... ಕಸಲೆ ಹೇ ಗ್ರಹಚಾರ ಆಯಲೆ.. ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಕರಚೆ ಮ್ಹಣ ಅಸಲೆ ಅವಾಂತರ ಜಾಲೆ.. ನಾ ಗೋ.. ಹಾಂವ ಎಪ್ರಿಲ ಫೂಲ ಕರಚಾಕ ತಶೆ ಸಾಂಗಿಲೆ... ಹಾಂವ ಸನ್ಯಾಸಿ ಜಾಯನೀ ..ಯೋ ಭೀತರಿ ..ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂಕಾ ಮ್ಹಣಚೆ ಭೀತರಿ..ತೀ

ದೀಸೂಂಕ ನಾ.. ಹಾಂವ ದೂದ ಹೂನ ಕರೂಕ ವಾಸರಿ ಆಯಲೋ.. ಆಯಿಲ ಸಕ್ಕಡ.. ಪಾಪ..ವೆಂಕಟ್ರಾಯಾಕ ಹ್ಯಾ ಪ್ರಾಯೇರ ಅಶೆ ಜಾವಚಾಕ ನಜ ಆಶಿಲೆ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ಗೆಲೆ..

□□□□□

# » रिवर्स गेर

‘काम, वारडीक, घर, चेर्डुंव म्हणून साबार वरस जाले.. कोणाकय ‘एपरील फूल’ केलेल ना ..आनी आता ‘एपरील फूल’ करचेच विसोरन गेला.. क्यालेंडरांतुले मार्च म्हयिन्याचे आखेरिचे दीस पळयतना हो विचारू बोडाक आयले. सान आसतना स्कूलांतू कालेजांतू साबार लोकांक हासून हासून एपरील फूल करचे आशिले, आनी एपरील फूल जावचे आशिले.. ताचे उपरांत..दुडू..दुडू.. पोसिशन..म्हण सांगून ते खुषी ना जाले ह्या मेक्यानिकल लैफांतू म्हणू आलोचन करतना इक्रा गंटे जाले.. तुमगेले कसले मण मण क्या_ लेंडर पळोवनू.. वचून निदयांची...बायलेल उत्रां कान्नार पडले..आनी वेळ केल्यार जावचे ना म्हण सीदा हांतळा लागी गेलो, कसलेय पाय पळोवया म्हणू.

**

हेर दीवस सकाळी उटोवनू वाकिंग जावनू, पेपर हाडया म्हणू भायर सरलो.. बागील घाल सुमी... म्हण सांगून भायर आयलो. मात्यांतू मात्र एपरील फूलाचे आशिले.. आज कसले जावो, कोणाक तरी एपरील फूल करूका.. कोणाक कित्याक सगळो दीस सीरियस जावनू सीरियल पळोवनू आसचे मिगेल बायलेक ची एपरील फूल करका.. राग येतले.. ते मागीर समाधान केल्यार जाता म्हणू आलोचन करून..मिगेल प्रायेचे दोसता सांगात दास वाणी आयकून पार्कांतू वाक करूक शुरू केले.

तीन चार रौंड वाक जाल्यारीय बायल सुमंगळाक कशे फूल करचे म्हळेल कळूंक ना. आयचे वाकिंग पुरो म्हणू..’येता हांव म्हण तांका सांगून दूदाचे बुता लागी आयलो.. एक लीटर दूद घेवून घरा वचा म्हणतना परत एपरील फूलाचे विचार येवनू..सडन एक ऐडिया बोडा येवनू ..फोन काडून सीदा बायलेक एक फोन केले.

पळे..सुमी..हांव अशे सांगत म्हणू बेजार करनाक..मसत दीस दाकून तुका सांगूक म्हण आशिलो..डैरेकट जावचे तसले ना..सांगचाक एक तर जाता.. धैर्य ना.. आमी दोगान साबार वरस दाकून संसार केला..कषट सूख पळयला..

पुतू धूव फारिनांतू सेटल जालांची..माका आता सन्यासी जावचाक मन जाला. .. तू बेजार करनाक..हांव सन्यासी जाता आसा..मुखार हांव कंय वता मळेक कळीत ना.. आनी घराक येना..तुगेल जीवनाक जावका जालेल दुडू केला.. घर तुगेल नावारी आसा.. कोणाय तरी विचारलारी ..नार्त इंडिया टूराक घेला म्हण सांग..थोडे दीस जातरी लोक विसरता..तू बेजार करनाक.. चेर्डुवान फोन केल्यार हळू तांका सांग.. नात्रांक मिगेल आर्शीवाद म्हणू सांग..जाग्रत करी, म्हणू सांगून तीगेल उत्राक राकनशी.. फोन स्वीच आफ केले. आनी एक गंटेन घराक लेट करून वता.. मागीर पळोवया दोनपारा होटेलाक जेवणाक वेल्यार जाले..म्हणू चिंतून टैं पास करचाक थंय मुखार आशिले होटेलाक वचून दोन इडली, एक वडा आनी केसरी बात खावनू..लैबररिवचून धा भारा पेपर पळयले. आता घरांतू सुमी..कसल करता आसचाक पुरो म्हळेल मातेंतू आशिले..गडिबिडी कोरनू चेर्डुवांक सक्कड पोन करून..घरा लागी आशि-ल्यांक सांगून राद्दांत जावचे ना ..म्हळेल भंय आशिले. अंतू इंतू एक गंटो जातरी दूदा प्याकेट धोरनू घरा लागी गेलो.

कंपौंडालागी वतान घरालागी थोडे लोक आशिले.. कसलकी करूक वचून ह्या कसले जाले आतां..म्हणू घरा भीतर गेलो.. धा बार जन उलोवचे आयकता आशिले..छे.. छे..म्हणू.. सुमी..सुमंगळ दिसचाक ना.. वाटराचे बायल मनीश सक्कड येवनू भरले घरालागी..कसले जाला म्हणू वासरी वतान.. लागी घराचे गोविंदरायाले बायल पद्मावतियम्म.. येवनू कसले करचे वेंकट्राया.. आमका आता कळिताक आयले..सक्कड देवाले इच्चा..माका कसलेय अर्थू जायनी.. सुरवेक सुमी..कंय आसूका म्हणू पळोवका म्हण..घर सक्कड भोंवलो.. सुमी.. सुमी.म्हणू..सक्कडान देवाल कूडा कडेन बोट दाकयले.. हांव हगूर बागील काडून पळयले.. कोण म्हण कळनी माका..एक बायल मनीश.. ना सुमी.. मिगेल सुमंगळा..केसरी रंगाचे किरगी नेसून..मात्या केस सक्कड सोडून.. हातांतू ताळ घेवून..भायर आयली.. " तुमका सांगून हांवय सन्यासिनी जावया म्हण आशिली..माका अळशीक जाले.. माकाय संसार पुरो जाला..तुमी बरे निर्धार घेतला..आमी सांगात वेचे नाका.. तुमी तुमगेल दिकाक आनी हांव मिगेल वाटेक..प्रपंच उरूट आसा..परत देवाल दयेन मेळतले..म्हण सांगून ताळ मारून..गेटा दाकून भायर गेली

माका... कसले हे ग्रहचार आयले.. एपरील फूल करचे म्हण असले अवांतर जाले.. ना गो.. हांव एपरील फूल करचाक तशे सांगिले... हांव सन्यासी जायनी ..यो भीतरी ..म्हणू सांगूका म्हणचे भीतरी..ती दीसूंक ना.. हांव दूद हून करूक वासरी आयलो.. आयील सक्कड.. पाप..वेंकट्रायाक ह्या प्रायेर अशे जावचाक नज आशिले म्हणू सांगून गेले..

□□□□□

# » ಪೋಟಾ ಖಾತೀರ..

ಹ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ ಶುರು ಜಾಲೇಲ ಮಿಗೇಲ ಬಾಯಲ ಗುರ್ಭಿಣ ಜಾತರಿ. 35 ವರಸ ಜಾಲ್ಯಾರೀಯ 'ಮಾಕಾ ವಾರಡಿಕ ನಾಕಾ' ಮ್ಹಣು ಆಶಿಲ್ಲೊ.. ಜಾಲ್ಯಾರ ಏಕ ದಿವಸ ಬಾಪಸೂನ .. ' ತು ವಾರಡೀಕ ಕೊರನು ಘೆನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ ತುಕಾ ..ಮಿಗೇಲ ಆಸ್ತಿಂತು ಕಾಂಯ ವಾಂಟೋ ಮೆಳಚೆ ನಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗಲೆ.. ಮಾಕಾ ದುಸರೆ ವಾಟ ನಾಶಿಲೆ. ಮಾಕಾ ಪ್ರೈವೆಟ ಸಾನ ಕಾಮ.. ಏಕಲೇಲ ಜೀವನ ವಚೆಚ ಕಷ್ಟಾರ..ಆನೀ ತಾಂತು ಬಾಯಲ ಚೆರ್ಡುಂವ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ ಕಶೆ..ಸಂಸಾರಾಚೆ ತಾಪತ್ರಯ ನಾಕಾ ಮ್ಹಣು ಮುಖಾರ ಘಾಲತಾ ಬಶಿಲ್ಲೊ ಹಾಂವ. ಪಿತ್ರಾರ್ಜಿತ ಆಸ್ತಿ ಜಾಲ್ಯಾರ ಹಾಂವಯ ತೇ ಕಶೆ ಮಾಕಾ ಮೆಳನಾ ಪಳಯತಶಿಲ್ಲೊ.. ಜಾಲ್ಯಾರ ಮಿಗೇಲ ಬಾಪಸೂಕ ಆಶಿಲೆ ಗವರ್ನಮೆಂಟ ಕಾಮ ಆನೀ ತಾಣೆ ಸಂಬೋಳ ಆನೀ ಗಿಂಬೊಳ ಬರೆ ಕೊರನು ಕೆಲೆಲ.. ಆನೀ ಹಾಂವ ನಾಕಾ ಮ್ಹಳಯಾರ ಸಕ್ಕಡ ಮಿಗೇಲ ಭಾವಾಲೆ ಆನೀ ಭಯಣೇಲ ನಾವಾರ ವಚೆ ಗ್ಯಾರಂಟಿ..ಮ್ಹಣು..'ಹೂಂ' ಮ್ಹಳೇ.. ಅನೀ ತೀನ ಮ್ಹಯಿನ್ಯಾಂತು ಸುಮಾಲೆ ಹಾತು ಧರಲೆ ಆನೀ ತಿಕಾ ಆತಾ ತೀನ ಮ್ಹಯಿನೋ.!

ಪಯರ ಆಯತಾರ ಸಕಾಳಿ ..ಉಟೊವನು ಕಾಫಿ ಖಾಣ ಜಾವನು.. ಘರಾ ಮುಖಾರ ಆಸಚೆ ಝಾಡಾಕ ಉದಾಕ ಘಾಲತಾ ಆಶಿಲ್ಲೊ.. 'ಕಿಟಾರ್' ಮ್ಹಣು ಆವಾಜ ..ಗೇಟಾಕ ತೊಡೆ ತೇಲ ಘಾಲಕಾ ಮ್ಹಣು ಪಳಯತನಾ. ಕೊಣಕೀ ಏಕಲ್ಲೊ ಭೀಕ ಮಾಕತಲ್ಲೊ..'ಹಾಂಕಾ ಕಾಂಯ ಉಣೆ ನಾ.. ದರಿದ್ರ ಲೋಕ ..' ಸುಮಾ ಶರ್ಟಾ ದಾಕೂನ ಆಟ ಆಣಿ ಜವ್ರೋ ಏಕ ರುಪಯೀ ಆಸಲ್ಯಾರ ತಾಕಾ ದೀ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ಕಾಮು ಕರೂಂಕ ಲಾಗಲ್ಲೊ. ಏಕ ದೋನ ನಿಮಿಶ ಜಾವನು ಆಸಚಾಕ ಪುರೋ..ಬಾಯಲೇನ ದಿಲೇಲ ರುಪಯೀ ಘೆವನು

ವತಾ ಆಶಿಲೊ.. ಮಾಕಾ ಪಳೊವನು.. 'ವೋ ಔರತ್ ಆಪ್ ಕೀ ಬೀಬಿಯೇನ ಸಾಬ್' ಮ್ಹಣಾಲೊ. ಅರೇ ಹಾಕಾ ದುಡು ದಿವಕಾ ಆನೀ ಹಾಕಾ ಮಿಗೇಲ ಘರಾಚೆ ಕಾಣಿ ಸಾಂಗೂಕಾ ಮ್ಹಣ ರಾಗಾನ.ಹೂಂ.. ಮ್ಹಳೇ.. ತುಮಕಾ ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಜಾತಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ಘೆಲೊ.

ಅರೇ.. ಸುಮ್ಹಾಕ ಆನೀಕಯ ತೀನ ಮ್ಹಯಿನೋ ಜಾಲಾ ಮಾತ್ರ.. ಮಾಕಾ ಪಯರ ಕಳಿತಾಕ ಆಯಿಲೆ ತೀ ಗುರ್ಭಿಣ ಮ್ಹಣೂನ.. ಪಳಯತಲ್ಯಾಂಕ ಕಾಂಯ ಕಳನಾ..ತಶೆ ಆಸತನಾ ಹಾಕಾ ಕಶೆ ಕಳಿತಾಕ ಆಯಲೆ!!.ಸೀದಾ ಧಾಂವಲೋ.. 'ಅರೇ ಪಳೆ.. ರಾಬ ರಾಬ ಮ್ಹಣು ತ್ಯಾ ಭೀಕ ಮಾಗತಲೇಕ ಆಪಯಿಲೆ..

ಪಳಯತನಾ ತಾಗೇಲ ತೊಂಡಾರ ಎಕ ಲಕ್ಷಣ ಆಸಾ.. ಪಳೋವಚಾಕ ಮೊಟೊ ಆಸಾ.. ಭೀಕ ಮಾಗೂನ ಖಾಲ್ಯಾರೀಯ ಜೀವ ಬರೆ ವಾಡಲಾ ಮ್ಹಣ ಚಿಂತೂನ.. 'ಮಿಗೇಲ ಬಾಯಲ ಗುರ್ಭಿಣ ಮ್ಹಣು ತುಕಾ ಕಶೆ ಕಳಿತಾಕ ಆಂಯಲೆ? ಹೇ ಮಾಕಾ ಸಾಂಗ ಮ್ಹಳೇ.. ಆನೀ ತು ಸಾಂಗಲೆ ..ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಮ್ಹಣು.. ತೇ ಕಶೆ ಸಾಂಗಲೆ ..? ಮ್ಹಣು ಹಾಂವ ಸಾಂಗತಾ ಆಸತನಾ.. 'ಸಾಬ್.. ಹಂ ಲೋಗೋಂಕೊ ದೇಕ್ತೆ..ದೇಕ್ತೆಯೀ ಸಬಕುಚ ಮಾಲುಂ ಪಡತಾ ಹೇಂ.. ಹಿಮಾಲಯಾಂತು ಕೆಲೆಲ ತಪಸಾಚೆ ಶಕ್ತಿ' ಅಶೆ ತಶೆ ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ತೋ ಭಾಯರ ಸರಲೋ.. ಜಾವಕಾ ಮ್ಹಣು ಹಾಂಗೇಲಾಗಿ ಉಲೋವಚಾಕ ನಜ, ಮಾಹಾ ಆಳಶೆ ಹೇ ಲೋಕ..ಸಕಾಳಿ ಭೀಕ ಮಾಗಚೆ ಮ್ಹಣು ರಾತಿ ಘರಾ ಚೋರಾಣಿಕ ಕರಚೆ ..ಜಾಯತ ವಸ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ಹಾಂವ ಘರಾಚೆ ಗೇಟ ಘಾಲೆ.. 'ಕಿಟಾರ್' ಮ್ಹಳೇಲ ಆವಾಜ..

**

ಹ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ ಜಾಲೇಲ.. ಸಾತ ಮ್ಹಯಿನ್ಯಾಕ ಸೀಮಂತ ಜಾವನು ಸೀಮಾ ಕುಳಾರ ಚಮಕಲಿ, ಣವ ಮ್ಹಯಿನೋ ಜಾವನು ಡಾಕ್ಟರಾನ ದಿಲೇಲ ಎಕ ಹಪ್ತೇ ಮುಡೆಕ ನಾರ್ಮಲ ಡೆಲಿವರಿ ಜಾವನು..

ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಜಾಲೆ.. ವಾರಡೀಕಯ ಜಾಲೆ .. ಚೆರ್ಡುಯ ಜಾಲೆ ಅನೀ ಬಾಪೂಸು ಆರಾಮಾಂತು ಆಸ್ತಿ ವಾಂಟೋ ಕರತಲೊ ಮ್ಹಣ ಚಿಂತಲೆ ತಶೆ ತೋ ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ ವ್ಯಕ್ತಿ ವಿಶಯಾಂತು ಎಕ ಅಜಾಪ ಮನಾಂತು ಆಶಿಲೆ..

ಮನುಶು ಕಸಲೆ ಶೋಧೀತ ಕೀ ತಾಕಾ ತೇಂಚ ಮೆಳತಾ ಮಳೇವರಿ ..ಮಾಕಾ ಪಯರಿ ಕಾಮ ಜಾವನು ಎಟಿಎಂ ದಾಕೂನ ಸಾಂಬೋಳ ಘೆವೂನ, ಬಾಯಲ ಕಶೇ ಕುಳಾರ ಆಸಾ...ಮ್ಹಣು ಅಪರೂಪಾಕ ಬಾರಾಕ ವಚುನ ಎಕ ಟೇಬಲಾಂತು ಬಸಲೊ. ಪಳಯಲ್ಯಾರೀ ಆನೇಕ ದಿಕಾನ ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ ಆಶಿಲವರಿ ದಿಸಲೆ. ಡಿಂಲೈಟ.. ಮಾಕಾ ಸಕ್ಕಡ ಕಡೇನ ತೋಚ ದಿಸತಾ.. ತೋಚ ಕೀ ನಯ ಮ್ಹಣ ಚಿಂತೂನ..ಹಾಂವ ಮಿಗೇಲ ಬ್ರಾಂಡ ಆರ್ಡರ ಕೆಲೆ..ಆನೀ ತ್ಯಾ ದಿಕಾನ ಪಳಯತಾ ಆಶಿಲೊ..ಎಕ ಪಾಂಚ ನಿಮಿಶ ಜಾಲಾ ಮಾತ್ರ..ತೋಚ ಹಾತಾಂತು ಗ್ಲಾಸ ಘೇವೂನ ಮಿಗೇಲಾಗಿ ಆಯಲೊ.. ಪಳಯಲ್ಯಾರ ತೋಚ..! ಮಾಕಾ ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಜಾತಾ ಮ್ಹಣ ಭವಿಷ್ಯ ಸಾಂಗಿಲೊ ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ.. ಮುಖಾರ ಯೆವನು..'ಸಾಬ್ ಮೇರಾ ಬಾತ ಟೀಕ ಹುವಾನ.. ಆಪಕೋ ಬೇಟಿ ಪೈದಾ ಹುಯಿನಾ ..ಸಬ್ ಲೋಗ ಟೀಕ ಹೇ.. ಮ್ಹಣಾಲೊ.

ಯೋ ಬಯಸ.. ತೂ ಸಾಂಗಲೆ ವರಿ ಮಾಕಾ ಚೆಲಿ ಚೆರ್ಡು ಜಾಲಾ.. ಆನೀ ಸಕ್ಕಡ ಸೌಖ್ಯ ಮ್ಹಣು ಹಾಂವ ಉಲೋವಂಕ ಲಾಗಲೋ.. ತಶೇ ಮುಖಾರ ಆಸಚೆ ಬಾಟಲೀಚೆ ರಂಗ ಬದಲ ಜಾತಾಚೇ.. " ಸಾಬ್ .. ಮಾಕಾ ಗುರ್ಭಿಣೀಂಕ ಪಳಯಲ್ಯಾರ ಪುರೋ.. ಚೆಲೋ ಕೀ ಚೆಲಿ ಮ್ಹಣ ಕಳತಾ.. ಹೇ ಎಕ ವಿದ್ಯಾ...ಸಕ್ಕಡಾಂಕ ಯೆನಾ..ಕರೋಡಾಂತು ಎಕಲೇಕ ಯೆತಾ..' ಅಶೆ ಸಕ್ಕಡ ಪಾಟೋ ನಾತೀಲ ಟ್ರೈನ ಸೊಡತಾ ಗೆಲೊ.. ಎಕಲೋ ಚೋರ ಆನೀ ಬಾಟಲೀಚೆ ಪವರ, ಆನೀ ಆಯಕತಲೊ ಆಸಾ ಮ್ಹಣ ತಾಗೇಲ ಹಿಮಾಲಯಾಚೆ ಕಾಣೀ ಸಕ್ಕಡ ಸಾಂಗತಾ ಗೆಲೊ.. ಪಾಯ ಸಕಾಳಿ ಮಿಗೇಲ ಆಫೀಸಾಕ

ಯೋ ..ಮ್ಹಣು ತಾಕಾ ಅಡ್ರೆಸ್ ದೀವನು ಹಾಂವ ಭಾಯರ ಆಯಲೊ.

ಸಕಾಳಿ ಹಾಂವ ಆಫೀಸಾಕ ಯೆವಚೆ ಪಯಲೇಚ ಹೋ ಹಾಜರ ಆಸಲೋ. ಅಳೀ ಹಾಂವ ದೋನ ತೀನ ಬಾಯಲ ಮನಶ್ಯಾಲೆ ಪೊಟ ದಾಕಯಿತಾ.. ತೂ ಚೆಲೊಕೀ ಚೆಲಿ ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂಕಾ ಮ್ಹಳೇ.. ಆಮಗೆಲ ಆಫಿಸಾಚೆ ಲೇಡಿ ಸ್ಟಾಫಾಂಕ ದಾಕಯಿಲೆ ತಾಕಾ ದೂರ ದಾಕೂನ.. ' ಕಸಲೆ ಸಾರ ತುಮಕಾ ಪಿಶೆ ಕೀ.. ಹೇ ಕೋಣಾಯ ಗುರ್ಭಿಣಿ ನಾ ..ತುಮೀ ಕಸಲೆ ತಮಾಶ ಕರತಾ ಆಸಕೀ ಮ್ಹಣಾಲೊ.. ಆನೀ ತೇ ನೀಲ ಚುಡಿದಾರ ಘಾಲೇಲ ತಿಕಾ ಆನಿಕಯ ವಾರಡೀಕ ಜಾಲೇಲ ನಾ' ಮ್ಹಣು ರಾಗಾರ ಸಾಂಗಲೊ.. ತುಮಕಾ ಮಾಕಾ ತಶೆ ಟೆಸ್ಟ ಕರಕಾ ಮ್ಹಣ ಆಸಲ್ಯಾರ ಮಾರ್ಕೆಟಾಲಾಗಿ ಆಸಚೆ 'ಗೈನಾಕಾಲಜಿಸ್ಟಾಲೆ ಕ್ಲಿನಿಕಾ' ಯೋ..ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ಸೀದಾ ಚಮಕಲೋ.. ತಾಗೇಲ ತೋಂಡಾರ ರಾಗ ದಿಸತಾ ಆಶಿಲೆ.

ಸಾಂಜವೇಳ ಆಫಿಸ ಜಾಲೆ ಸತಾಂ.. ಫೇಮಸ ಬಾಣಾಂತಿರಾಚೆ ಡಾಕ್ಟರ ಕ್ಲಿನಿಕಾಕ ಗೆಲೊ. ತೋ ಸುರವೆಕಚ ಥಂಯ ರೆಡಿ.. ಮಾಕಾ ಪಳೋವನು.. ಅಸಲೆ ವಿಶಯಾಂತು ತಮಾಶ ಕರಚೆ ನಾಕಾ ಸಾಬ್..ಹೇ ಕಾಳಿಲ ಪ್ರಸಾದ ಹಾಂವ ಸಮ ಸಾಂಗನಾತಲಾರೀ, ತೀ ಮಿಗೇಲ ಆವಸು ಜೀಬ ಕಾಡತಾ' ಮ್ಹಣ ಥಂಯ ಆಯಿಲೆ..ಚಾರ ಪಾಂಚ ಬಾಯಲಮನಶ್ಯಾಂಕ ದಾಕೋವನು..ಹಿಕಾ ಚೆಲೊ..ತಿಕಾ ಚೆಲಿ ಅಶೆ ಮ್ಹಣತಾ ಗೆಲೋ.. ಮಾಕಾ ಕಸಕೀ ತೇ ವಿಪರೀತ ಮ್ಹಣ ದೀಸೂನ ಸೀದಾ ಘರಾಕ ಆಯಲೊ..

ತಾಜೆ ಉಪರಾಂತ..ತೋ ಹಿಮಾಲಯಾಚೋ ಹಪ್ತೇಂತು ಮಾಕಾ ಮೆಳತಾ ಆಶಿಲೊ.. ಆನಿ ಎಕ ಪಂತಾ ಹಾಂವ ತಾಕಾ ವಿಚಾರಲೆ ..ಕಶೆ ಹಾಂಗಾ ಘರ ಕರೂನ ರಾಬಲಾಕೀ ಮ್ಹಣು ..ತೆದನಾ ತೋ ಮ್ಹಣಾಲೊ..ಹಾಂಗಾ ನ್ಯೂಚಿತ್ರಾ ಟಾಕಿಸಾಚೆ

ಪಾಟಲ್ಯಾನ ರೂಂ ಕೊರನು ಆಸಾ ಮ್ಹಣು.. ಎಕ ಪಂತಾ ಯೋ ಮ್ಹಣ ಮಾಕಾ ಆಪಯಿಲೆ ತಾಣೆ.. ಹಾಂವ ಜಾಯತ.. 'ಪೋಟಾಚೆ' ಕಾಮ ತುಕಾ ಮ್ಹಣ ತಾಕಾ ಸಾಂಗಲೆ..ತಾಕಾ ತೇ ಸಮಾಧಾನ ಜಾಲೆವರೀ ದೀಸೂಂಕ ನಾ.. ಮುಖಾರ ಗೆಲೊ.

**

ಚಾರ ಪಾಂಚ ಮ್ಹಯಿನೊ ಜಾವನು ಸುಮಾ ಚೆರ್ಡಾಂಕ ಘೆವೂನ ಘರಾ ಆಯಲಿ. ಘರಾ ಲಾಗಿಚಾಂಕ ಆಪೋವನು.. ಚೆರ್ಡಾಂಕ 'ಚೈತ್ರ' ಮ್ಹಣ ನಾಂವ ದವರಲೆ. ಆನೀ ಸಾಂಜವೇಳ ಮಿಗೇಲ ಚಾರ ಪಾಂಚ ದೋಸ್ತಾ ಸಾಂಗಾತ ಮಾಮುಲ ಬಾರಾಕ ಚಮಕಲೆ.. ಘಾಟಿ ಸೋಡನಾತಲೆವರೀ ಮುಖಾರಚೆ ಟೇಬಲಾಂತು ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ ಯೆವನು ಬಸಲೊ. ಹಾಂವ ತಾಕಾ ಪಳಯನಾತಲೆವರೀ ಕೆಲ್ಯಾರೀಯ ತೋಚ ಸೀದಾ ಯೆವನು..ಸಾಬ ಸಬ ಲೋಕ ಟೀಕ ಹೇನಾ ಮ್ಹಣು ಉಲೋವಚಾಕ ಲಾಗಲೊ. ಆಸೋ ಮ್ಹಣ ತಾಕಾ ಬಯಸ ಮ್ಹಳೇ.. ಆನಿ ಸಕ್ಕಡಾಂಕ ಆರ್ಡರ ಕೆಲೆ..ಮೋದಿ, ಟ್ರಂಪ ಅಶೆ ಉಲೊವಚೆ ಶುರು ಜಾಲೆ,..ತಾಣೇಯ ಹಾಂವ ಕಾಂಯ ಉರ್ಣೇ ನಾ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗತಾ ಗೆಲೊ..ಬಿಲ್ ಆಯಲೆ ಹಾಂವ ದೋನ ಹಜಾರಾಚೆ ನೋಟ ಮೆಜುನ ದಿಲೆ.

ಸಕ್ಕಡ ಭಾಯರ ಯೆವನು ..ಬೈ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗೂನ ಚಮಕಲೆ.. ಸಾಬ್, ಎಕ ವಿಶಯ ಸಾಂಗುಕ ಆಸಾ.. ಹೋ ವಿಶಯ ಕೋಣಾಕ ಸಾಂಗೂನಕಾತ.. ಚೆಲೊ ಚೆಲಿ ಕಳತಾ ಮ್ಹಣು.. ತುಮೀ ಜಾವಕಾ ಜಾಲ್ಯಾರ 'ಜೋತಿಷ್ಯ ಸೆಂಟರ' ತಸಲೆ ಎಕ ಆಫಿಸ ಘಾಲಾ..ಹಾಂವ ಯೆವನು ತುಮಕಾ ಸಾಂಗತಾ.. ತುಮೀ ದುಡು ಕರಯೇತ ಆನೀ ಮಾಕಾ ಥೊಡೆ ದಿಲ್ಯಾರ ಪುರೋ..ಸೋಚೊ ಸಾಬ್.,ಮ್ಹಣಾಲೊ ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ. ಹಾಕಾ ಪೀವಯಲೇಲ ಸಾರ್ಥಕ ಜಾಲೆ ಬರೆ ಐಡಿಯಾ ದಿಲಾ ..ಹಾ ಪಳೋವಯಾ ..ಪಾಯ ಸಾಂಜವೇಳ ಮೆಳಯಾ ಮ್ಹಳೆ.

ಸಗಳೇ ರಾತಿ ಹಿಮಾಲಯಾಚೆ ಉತ್ರಾಂ ಮಾತೇಂತು ಘಂವತಾ ಆಶಿಲೆ, ಆಫೀಸಾಂತು ಕಶೇ ಸಂಬಳ ಚಡ ಜಾವಚೆ ದಿಸನಾ.. ಬಾಪೂಸು ಆಸ್ತಿ ವಾಂಟೋ ಕರಚಾಕ ಆನೀಕಯ ದೀಸ ರಾಕತಾ ಆಸಾ.. ಬರೆ ಐಡಿಯಾ ಜಾಲ್ಯಾರ ..ಕಾನೂನಾಕ ವಿರುದ್ದ.. ಅಶೆ ನೀದ ಆಯಿಲೆ ನಾ. ಹೇರ ದಿವಸ ತೋ ಆಯಲೊ " ತು ಸಾಂಗಿಲವರಿ ಡಾಕ್ಟರ ಕ್ಲಿನಿಕಾಚೆ ಬಿಲ್ಡಿಂಗಾಂತು ಆಮೀ ಎಕ ಆಫೀಸ ಒಪನ ಕರಯಾ.. ಡೈಲಿ ಸಾಂಜವೇಳ ಸ್ಥ ದಾಕೂನ ಆಟ ತಾಂಯ..ತು ಮಾಕಾ ಅಸಿಸ್ಟೆಂಟ ಜಾವನು ಆಸೂಕಾ.. ವರಲೇಲ ಸಕ್ಕಡ ಹಾಂವ ಮ್ಯಾನೇಜ ಕರತಾ.. ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ಪಾಂಯಶೆ ರುಪಯೀಚೆ ನೋಟ ತಾಕಾ ದಿಲೆ.. 'ಸಬಕುಚ್ ಟೀಕ ಹೋಜಾಯೆಗಾ ಸಾಬ್.. ಮಾ ಕಾಳಿಕಾ ಆಶೀರ್ವಾದ ಹೇ.. ಹಮಾರ ಸಾಥ್.. ಮ್ಹಣಾಲೊ ತೋ..

**

ವಿಶಯ ಎಕಲ್ಯಾ ದಾಕೂನ ಆನೇಕಲೇಕ ವಚೂನ ಪಂದ್ರಾ ದೀಸ ಭಿತರ ಆಫೀಸಾಕ ಪುಲ ರಷ್.. ಹಾಂವ ಕಾಮ ಜಾವನು ಯೆವಚೆ ಮಾತ್ರ.. ಡಾಕ್ಟರಾಪಶೇ ಚಡ ಲೊಕ ಆಮಗೆಲ ಆಫೀಸಾಕ ಯೆವಚಾಕ ಲಾಗಲೆ.. ಹಾಂವಯ ತಶೆಚ..ತಾಂಕಾ ಅಶೇ ತಶೆ ಪಳೋವನು ವಿಚಿತ್ರ ಕರೂನ ಪಳೋವನು...ಭಿತರ ಬಶಿಲೆ ಹಿಮಾಲಯಾಚ್ಯಾನ ದಿಲೇಲ ಸಂಜ್ಜೆವರೀ..ಮಹಾಜ್ಞಾನಿವೇ-ರೀ ಚೆಲೊ..ಚೆಲಿ ಮ್ಹಣು ಸಾಂಗತಾ ಆಶಿಲೊ.. ಅಫೀಸಾಂತು ಸಗಳೇ ಮ್ಹಯಿನೋ ಗೋಳಚೆ ..ಎಕ ದೀಸಾಂತು ಮೆಳತಶಿಲೆ.!

ಅಶೆ ತೀನ ಮ್ಹಯಿನೋ ಮ್ಹಣತನಾ ..ಖಬರ ಸಕ್ಕಡಾಂಕ ಕಳೂನ.. ಲಾಗೀ ಆಸಚೆ ಪೋಲಿಸ ಸ್ಟೇಷನಾಕ ಮಾಮೂಲ ದಿವಚೆ ತಾಂಯ ಪಾವಲೆ. ಆನೀ ಹಾಂವ ಮಿಗೇಲ ಪ್ರೈವೇಟ ಕಾಮಾಕ ರಿಸೈನ ಕರಚೆ ಮ್ಹಣ ಚಿಂತಲೆ.. ಎಕ ವರಸ ಜಾತನಾ.. ಧ್ರುವ ಚೈತ್ರಾಕ ಎಕ ವರಸ ತೀನ ಮ್ಹಯಿನೊ ಜಾವನು ನರ್ಸರಿ ವಚಾಕ ರೆಡಿ ಜಾಲಿ.. ಎಕ ಕಾರ ಘೆತಲೆ... ಜಾಲ್ಯಾರ

ಮುಖಾವಯಲೆ ವರಸ ಚಾಳೀಸ ಲಾಖಾಚೆ ಫ್ಲಾಟ ಘೆವಕಾ ಆಶೆ ನಿರ್ಧಾರ ಕೆಲೆ. ಕಾಲ ಸಕಾಳಿ ಣವ ದಾಕೂನ ರಾತಿ ಣವ ತಾಂಯ ಆಫೀಸಾಂತು ಆಶಿಲೊ.. ಆತಾ ಆಂಧ್ರ ..ತಮಿಳನಾಡಾ ದಾಕೂನ ಲೋಕ ಯೆತಾಲೆ..ಆನಿ ಪಯರ ಹರ್ಯಾಣಾ ದಾಕೂನ ಫೋನ ತುಮಿ ಸಾಂಗಚೆ ಸತ್ಯ ಜಾತಾ ಮ್ಹಣು ಹಾಂಗಾ ಖಬರ ಜಾಲಾ..ಹಾಂಗಾ ಎಕ ಬ್ರಾಂಚ್ ಒಪನ ಕರಾ ಮ್ಹಣು.. ಟಿವಿ ಚಾನೇಲಾ ತಾನಿ ನಿಪ್ಪೋನ ಕ್ಯಾಮರಾ ಸಕ್ಕಡ ದವರೂನ .. ಸ್ಪೇಷಲ ಪ್ರೋಗ್ರಾಂ ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗೂನ ..ಮಿಗೇಲಾ ದಾಕೂನ ಪಯಶೆ ವೆಲೆಲ ಜಾಲೆ.. ಹ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ ಜಾಲ್ಯಾರೀಯ ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ ನಿಯತ್ತಾರ ಕಾಮ ಕರೂನ ಆಶಿಲೊ.. ದೀವಸ ಆಫೀಸಾ ದಾಕೂನ ಘರಾ ವಚೆ ಪಯಲೆ ಬಾರಾಚೆ ದರ್ಶನ ಕರಚೆ ಆಶಿಲೆ ಆಮೀ ದೋಗಾನಿ.

**

ಅಶೆ ದೀಸ ವತಾ ಆಸತನಾ ಸುಮಾ ಪರತ ಗುರ್ಭಿಣ ಜಾವಚೆ ಲಕ್ಷಣ ದಿಸಲೆ..ಮಾಕಾ ಭೀತರೀಚ ಭಂಯ..ಸುರವೇಚ ಚೆಲಿ ಜಾಲಾ.. ಹೇಂವಯ ತಶೆ ಜಾಲ್ಯಾರ..ಭೇ ಹಾಕಾ ಸಕ್ಕಡ ಭಂಯ ಕಸಲೇಕ.. ಆಜ ಸಾಂಜವೇಳ ಡಾಕ್ಟರ ಚೆಕಅಪಾಕ ವರೂನ ಆಫೀಸಾಕ ಯೆವಚಾಕ ಸಾಂಗಲ್ಯಾರ ಜಾಲೆ.. 'ಪಳೇ ಆಮಕಾ ಆನೇಕ ಚೆರ್ಡುಂ ಜಾತನಾ ಆಮೀ ಹ್ಯಾ ಫ್ಲಾಟಾಂತು ಆಸತಾಂಚೇ' ಮ್ಹಣು ಅಡ್ವಾನ್ಸ ಬುಕ ಕೆಲೆಲ ಫ್ಲಾಟಾಚೆ ತಸವೀರ ದಾಕಯಿತಾ ಆಶಿಲೊ.. ಬಾಮುಸ ಬಾಯರ ಟಿವೀಂತು ಬ್ರಹ್ಮಾಂಡ ಜೋತಿಷ್ಯಿಲೆ ಪ್ರೋಗ್ರಾಮ ಪಳಯತಚೀ ಕಸಲಕೀ ಲೇಕ ಕೊರನು ಆಶಿಲೊ..

ಸಾಂಜವೇಳ ಸುಮಾನ ಆಫೀಸಾಕ ಯೆತನಾ ಹಿಮಾಲಯಾಚಾಕ ತಿಗೇಲ ವಳಕ ಮೆಳೂಂಕ ನಾ, ಆನೀ ಹಾಂವ ಸಾಂಗತರೀ .. ಕೈಸೇ ಹೋ ಬಾಬಿ. ಮ್ಹಣು ಉಲೋವನು ಶೀಯಾಳ ಹಾಡಚಾಕ ಗೆಲೊ.. ಆಷಾಢ ಜಾಲಾ ಮಾತ್ರ!! ತಶೇ ರಷ್

ಉಣೆ ಆಶಿಲೆ.. ಆಜ ತೂ ನಿಪೋನ ಬಯಸೂನ ಸಾಂಗಚೆ ನಾಕ.. ಹ್ಯಾ ಪಂತಾ ಮಾಕಾ ಕಸಲೆ ಉಂಡೋ ಕೀ ಜಿಲೇಬಿ ಮ್ಹಣ ಸಾಂಗ ಮ್ಹಣ ತಿಕಾ ಮುಖಾರ ರಾಬಯಿಲೆ..ಫಸ್ಟ ಟೈಂ ತೋ..ಘುಸಪಡಲೆ ವರಿ ದಿಸಲೊ..ಚೆ...ಚೆ ಚೊ..ಚೊ..ಚೆಲೋ ಮ್ಹಣಾಲೊ ಹಗೂರ..

ತಶೆ ಮ್ಹಣತನಾ ಆಮಗೆಲ ಗಾಂವತುಲೋ ವಿಚಾರವಾದಿ ಸಂಘಾಚೋ 'ನಾಯಕ್' ಎಕಲೋ ಟ್ರಾನ್ಸಫರ ಜಾವನು ಆಯಲೊ ನಾನ್ ಕರಪ್ಟ ಯಂಗ ಪೋಲಿಸ ಕಮಿಶನರ್ ಪಾಟೀಲ ಆನೀ ಎರಿಯಾ ಇನ್ಸಪೆಕ್ಟರ ಸಾಮಂತಾ ಸಾಂಗಾತ ಮಿಗೇಲ ಆಫೀಸಾಕ ಆಯಲೆ.. ತ್ಯಾ ಪಳೋವನು ಹಿಮಾಲಯಾಚೊ ತಾಗೇಲ ಜೋಳಿ ಉಬಾರೂನ ಥಂಯ ದಾಕೂನ ಜುರಲೊ.. ಹ್ಯಾ ಸಕ್ಕಡ ಕಸಲೆ ಮ್ಹಣ ಕಳನಾಶಿ ಸುಮಾ ದೊಳ್ಯಾಂತು ಉದಾಕ ಕಾಡತಶಿಲಿ.. ತ್ಯಾಚ ವೇಳಾಕ ಬಾಪಸೂಲ ಮೆಸೆಜ ಆಯಲೆ..ಚೆಲೊ ಜಾಲ್ಯಾರ ಮಾತ್ರ ತುಕಾ ವಾಂಟೋ.. ಹಾನಿ ಹಾಂವ ಮಿಗೇಲ ಹಾತ ಸೀದಾ ಮುಖಾರ ದಿಲೆ..

**

ದಕ್ಷಿಣ ಭಾರತಾಚೆ ವಡಲೆ ಅಪಾರ್ಟಮೆಂಟ..56 ಮಾಳಿಚೆ ..ಚಡಚಾಕ ಜಾಲೆಲ ನಾ ಮಾಕಾ..ಹಾಂಗ ಜೈಲಾಂತು ಬಯಸೂನ..

□□□□□□

# » पोटा खातीर..

ह्या सक्कड शुरू जालेल मिगेल बायल गुरबीण जातरी. ३५ वरस जाल्यारीय 'माका वारडीक नाका' म्हणू आशिलो.. जाल्यार एक दिवस बापसून .. ' तू वारडीक कोरनू घेना जाल्यार तुका ..मिगेल आसतिंतू कांय वांटो मेळचे ना म्हणू सांगले.. माका दुसरे वाट नाशिले. माका प्रैवेट सान काम.. एकलेल जीवन वचेच कषटार..आनी तांतू बायल चेर्डुंव म्हळयार कशे..संसाराचे ता_ पत्रय नाका म्हणू मुखार घालता बशिलो हांव. पित्रार्जीत आसती जाल्यार हांवय ते कशे माका मेळना पळयतशिलो.. जाल्यार मिगेल बापसूक आशिले गवर्नमेंट काम आनी ताणे संबोळ आनी गिंबोळ बरे कोरनू केलेल.. आनी हांव नाका म्हळयार सक्कड मिगेल भावाले आनी भयणेल नावार वचे ग्यारंटी.. म्हणू..'हूं' म्हळे.. अनी तीन म्हयिन्यांतू समाले हातू धरले आनी तिका आता तीन म्हयिनो.!

पयर आयतार सकाळी ..उटोवनू काफी खाण जावनू.. घरा मुखार आसचे झाडाक उदाक घालता आशिलो.. 'किटार' म्हणू आवाज ..गेटाक तोडे तेल घालका म्हणू पळयतना. कोणकी एकलो भीक माकतलो..हांका कांय उणे ना..दरिद्र लोक ..' सुमा शर्टा दाकून आट आणी जवो एक रुपयी आसल्यार ताका दी म्हणू सांगून काम करूक लागलो. एक दोन निमीश जावनू आसचाक पुरो..बायलेन दिलेल रुपयी घेवनू वता आशिलो.. माका पळोवनू.. 'वो औरत आप की बीबियेन साब' म्हणालो. अरे हाका दुडू दिवका आनी हाका मिगेल घराचे काणी सांगूका म्हण रागान.हूं.. म्हळे.. तुमका चेली चेर्डू जाता म्हणू सांगून घेलो.

अरे.. सुमाक आनीकय तीन म्हयिनो जाला मात्र.. माका पयर कळिताक आयिले ती गुर्भीण म्हणून.. पळयतल्यांक कांक कळना..तशे आसतना हाका कशे कळिताक आयले!!.सीदा धांवलो.. 'अरे पळे.. राब राब म्हणू त्या भीक मागतलेक आपयिले..

पळयतना तागेल तोंडार एक लक्षण आसा.. पळोवचाक तोरू आसा.. भीक मागून खाल्यारीय जीव बरे वाडला म्हण चिंतून.. 'मिगेल बायल गुर्भीण म्हणू तुका कशे कळिताक आंयले? हे माका सांग म्हळे.. आनी तू सांगले ..चेली चेर्डू म्हणू..ते कशे सांगले ..? म्हणू हांव सांगता आसतना.. 'साब.. हं लोगोंको

देक्ते..देक्तेयी सबकूच मालूं पडता हें.. हिमालयांतू केलेल तपसाचे शक्ती' अशे तशे म्हण सांगून तो भायर सरलो.. जावका म्हणू हांगेलागी उलोवचाक नज, माहा आळशे हे लोक..सकाळी भीक मागचे म्हणू राती घरा चोराणीक करचे ..जायत वस म्हणू सांगून हांव घराचे गेट घाले.. किटार म्हळेल आवाज..

**

ह्या सक्कड जालेल.. सात म्हयिन्याक सीमंत जावनू सीमा कुळार चमकली, णव म्हयिनो जावनू डाकटरान दिलेल एक हफ्ते पुडेक नार्मल डेलिवरी जावनू.. चेली चेर्डू जाले.. वारडीकय जाले .. चेर्डूय जाले अनी बापूसू आरामांतू आसती वांटो करतलो म्हण चिंतले तशे तो हिमालयाचो व्यक्ती विशयांतू एक अजाप मनांतू आशिले..

मनुशू कसले शोधीत की ताका तेंच मेळता मळेवरी ..माका पयरी काम जावनू एटिएं दाकून सांबोळ घेवून, बायल कशे कुळार आसा...म्हणू अपरूपाक बाराक वचून एक टेबलांतू बसलो. पळयलारी आनेक दिकान हिमालयाचो आशिलवरी दिसले. डिमलैट.. माका सक्कड कडेन तोच दिसता.. तोच की नय म्हण चिंतून..हांव मिगेल ब्रांड आर्डर केले..आनी त्या दिकान पळयता आशिलो..एक पांच निमीश जाला मात्र..तोच हातांतू ग्लास घेवून मिगेलागी आयलो.. पळयल्यार तोच..! माका चेली चेर्डू जाता म्हण भविषय सांगिलो हिमालयाचो.. मुखार येवनू..'साब मेरा बात टीक हुवान.. आपको बेटी पैदा हुयिना ..सब लोग टीक हे.. म्हणालो.

यो बयस.. तू सांगले वरी माका चेली चेर्डू जाला.. आनी सक्कड सौख्य म्हणू हांव उलोवंक लागलो.. तशे मुखार आसचे बाटलीचे रंग बदल जाताची.. " साब .. माका गुर्भिणींक पळयल्यार पुरो.. चेलो की चेली म्हण कळता..हे एक विद्या,..सक्कडांक येना..करोडांतू एकलेक येता..' अशे सक्कड पाटो नातील ट्रैन सोडता गेलो.. एकलो चोर आनी बाटलीचे पवर, आनी आयकतलो आसा म्हण तागेल हिमालयाचे काणी सक्कड सांगता गेलो.. पाय सकाळी मिगेल आफीसाक यो ..म्हणू ताका अड्रेस दीवनू हांव भायर आयलो.

सकाळी हांव आफीसाक येवचे पयलेच हो हाजर आसलो. अळे हांव दोन तीन बायल मनश्याले पोट दाकयिता.. तू चेलोकी चेली म्हण सांगूका म्हळे.. आमगेल आफिसाचे लेडी स्टाफांक दाकयिले ताका दूर दाकून.. ' कसले सार

